

पुंडलीक नायक

सुरात्यालो संवसार

वावराडी वावराची

गया बाप्पा खोऽऽ

गणिलो गणपती

हांव म्हाराजा उलयतां

# आकाशमंच

## पुंडलीक नारायण नायक

हांगेलें साहित्य

**नाटकां**

खण खण माती
रक्तखेव
राखण
सुरींग
सूर्यसांवट
देमान्द
मुक्तताय
शबै शबै भौजनसमाज
पिंपळ पेटला
श्री विचित्राची जात्रा

**ऐकांकी संग्रह**

गांवधनी गांवकार
चौरंग
आकाशमंच

**बालनाट्य**

रानसुंदरी
आळशांक वाग खातलो

**ऐकपात्रो**

छप्पन्न थिगळी येसवंत

**कविता**

गा आमी राखणे

**कथा**

मुठय
पिशान्तर

**नवलकथा/नवलिका**

अच्छेव
बांबर
वसंतोत्सव आनी दायज

**अणकारीत**

काजी नजरुल इस्लाम
नानालाल

* सुराट्यालो संवसार
* वावराची वावराडी
* बाप्पा खो ऽ ऽ गया
* गणिलो गणपती
* हांव म्हाराजा अुलयतां

# आकाशमंच

पांच नभोनाटयां

पुंडलीक नारायण नायक

अपुरबाय प्रकाशन

पयली अुजवाडावणी
अेप्रील १९८७

अुजवाडावपी
हेमा पुंडलीक नायक
अपुरबाय प्रकाशन
वळवय फोंडे गोंय
४०३ ४०१

छापपी
हिरू नारायण नायक
अपुरबाय प्रिंटर्स
वळवय फोंडें गोंय
४०३ ४०१

आकाशवाणी पणजी केंद्राच्या बरेपणान

मुखपृष्ठ
श्रीधर कामत बांबोळकार



मोल

**पंदरा रुपया**

**श्री नारायण भा. देसाय –**

अिश्टा,

धडपडीक अंत नासता

फक्त अर्थ आसता ...

न्हय?

– पुंडलीक

# आकाशमंचाविशीं दोन अुतरां...

ह्या संग्रहांत आस्पाव केल्लीं पांचूय नभोनाटचां खासा आकाशवाणी खातीरुच बरयिल्लीं. हांव आकाशवाणीच्या पणजी केंद्राचेर पालवी संपादक म्हण काम करतालों त्याच काळांत तांचें लेखन जाल्लें.

'सुराटचालो संवसार' मात आकाशवाणीची नोकरी सोडतकच बरयिल्लें. कुटूंब कल्याण ह्याच विशयाचेर तें आटापिल्लें. अशेंच तरेचें दुसरें नभोनाटच म्हळचार 'वावराची वावराडी'. ह्या नभोनाटचाचें हांवें 'वावराडेंलो कुंवर' ह्या नांवान अेकपात्रीत रुपांतर केल्लें. ताचे प्रयोगूय जाल्या.

'बाप्पा खो ऽऽ गया', 'गणिलो गणपती' आनी 'हांव म्हाराजा अुलयतां' हीं तिनूय नभोनाटचां म्हळचार अेक सांखळ कशी. गणपती आनी चवथ तातूंतली मूदलची कल्पना. विनोदी ढंगान ती मांडल्या. गोंयात चवथिचे परबेक म्हत्व चड. चवथिनिमतानूच तांचें बरोवप जाल्लें.

'बाप्पा खो गया' ही हास्यांकीच म्हळचार जाता. माचयेरुय ती तितलीच यशस्वी थल्या. 'गणिलो गणपती' हाचे प्रयोग आंतर महाविद्यालयीन अेकांकी सर्तित आनी अुत्सवांनी वेगवेगळचा पंगड्यांनी सादर केले. कांय जाणानी तिचें मराठी रुपांतर करुन तेंवूय सादर केलें.

ह्यो पांचूय रचना भुदलाक जरी नभोनाटचाच्या स्वरुपांत आसल्यो तरी लेगीत रंगमाचयेर, प्रयोगक्षमतेच्या कसाक त्यो अुतरतात अशें दिशिल्ल्यान त्यो आज पुस्तकरुपान अुजवाडाक येतात.

म्हज्या 'चौरंग' अेकांकी संग्रहांतल्या अेकांकीपरस ह्या नभोनाटचांचे स्वरुप खुबूच वेगळें आसा, हें हांव म्हज्या रसिकांक सुचोवंक सोदतां.

वळवय – गोंय

पुंडलीक नारायण नायक

☐ **सुराटचालो संवसार**

पयलो प्रयोग : ता. २०/३/१९८५, सां. ६.३० वरांचेर, दामोदर मंडप, वास्को
निर्मिती – कलाघर पणजी
पयली वितरावणी : ता. ३० /५/१९८५, रातच्या ९.३० वरांचेर, आकाशवाणी पणजी

☐ **वावराची वावराडी**

पयली वितरावणी : ता. १९/३/१९८१, रातच्या ९.३० वरांचेर, आकाशवाणी पणजी
पयलो प्रयोग : ('वावराडेलो कुंवर' अेकपात्री रुपान)
ता. २३/८/१९८१, सां. ४.३० वरांचेर, सांतेरीभाट – वळवय.
सादर करपी – हिरू नारायण नायक

☐ **बाप्पा खो ऽ ऽ गया**

पयली वितरावणी : ता. १४/९/१९८०, रातच्या ९.१५ वरांचेर, आकाशवाणी पणजी
पयलो प्रयोग : ता – २८/८/१९८३, सां. ४.३० वरांचेर, सांतेरीभाट वळवय
निर्मिती – रंगसांगाती वळवय

☐ **गणिलो गणपती**

पयली वितरावणी : ता. २२/८/१९८२, रातच्या ९.१५ वरांचेर, आकाशवाणी पणजी
पयलो प्रयोग : ता. ३१/८/१९८२, सार्वजनीक गणेशोत्सव, सांखळी
निर्मिती – संतोष वेरेंकार
पयलो प्रयोग : 'गणराज जेव्हां बोलूं लागतात' (मराठी) गोवा कला अकादमी विद्यालयीन अेकांकी सर्त १९८४, कला अकादमी थेअटर – पणजी
निर्मिती – श्री नवदुर्गा विद्यालय – मडकंय
पयली अुजवाडावणी : भरत नायक संपादीत अेकांकी संग्रह 'रंगराज' – १ १९८३

☐ **हांव म्हाराजा अुलयतां**

पयली वितरावणी : ता. ११/९/१९८३, रातच्या ९.१५ वरांचेर, आकाशवाणी पणजी

सूर्या सुरांटो
बेबदो बाबुश
जुगाड्डो जगन्नाथ
नाटकी नरेश
परमानंद
चंचल चमेली
कंपनी मॅनेजर
शेजारी

---

# सुराटचालो संवसार

---

( अेक सादेशें घर घरांतल्यो वस्तू अस्ताव्यस्त पडल्यात. कांय वेळान भायरसून सूर्या सुराटो येता. सरायत पिवपी. हांगां-थंय दोन पासयो मारुन घरांत कोण आसा ना ताची सुलूस घेता. अुपरांत दोग-तीग जाणांक वळखिचे जाल्लेवरी हडकिता.)

सूर्या : नमस्कार, नमस्कार. आवो, तुमकां नमस्कार. वळखुना ? अब्बा ! मागीर कोणांक वळखता तर तुमी ? फक्त आमदार आनी मंत्र्यांक ? म्हाका न वळखुपाक तांच्या परस म्हज्यान अशें कांय अुणें ना.
हांव सूर्या सुराटो. आतां तरी वळखले ? जाता अशें केन्ना केन्ना. सामको वळखिचो आसुन लेगीत चट् करुन वळख पटना. आनी म्हज्या सारखिल्ल्याची वळख म्हळचार चारचौगांमुखार सांगपाक मातशी भीड्च. भीड कित्याक ? लज लेगीत म्हळचार जाता. न्हय ? आतां म्हजेकडली वळख सांगतलो जाल्यार कितें करचें पडलें ? " आरे, ह्य मरे व्हदळ आमी एकाच बार्रार पिल्या " नाजाल्यार " राव रे, ते राती आमी सामके तर्र जावन रस्त्याकडेन अेकेच वालेतीन पडलेले – तो सूर्या सुराटो न्हय ?" असो वळखिचो प्रकार कोणांक मानवपाचो ना. देखून आपलें

बरें. तेरी भी चूप. मेरी भी चूप. हांव सूर्या सुराटो. तुमी धरुंया चंद्रकांत चंदावरकर. तरी लेगीत आमी अेकामेकांक वळखना. आनी वळखना हें अेकेपरीन बरें. म्हणजे वळख करुन दिवपाक मेळटा.

तर हांव सूर्या सुराटो. सूर्या म्हजें नांव. सुराटो हें म्हाका (तोंडाकडेन बोट व्हरुन) लागलेलें नांव. हो सूर्या — वळखना ? सकाळीं अुदेता आनी सांजवेळा अस्तमता तो. ताका म्हजेंच नांव दवल्लां. म्हजें नांव ताका दवल्लां हाचे अुपकार तो स्मरता. कडकडीत वोतान म्हाका पेडवो कसो भाजून काडटा. म्हज्या घरांत तर ताचीं किरणां — दिसाक वरां कितलीं ? बारा काय चोवीस ? आं. तर हो सूर्या आपणालीं किरणां दिसाचीं बाराय वरां म्हज्या घरांत शिंवरीत आसता. कित्याक शिंवरचोना ? घराच्यो वण्टी कोंसळच्या — तातूंतल्यान किर्णा येतात. पाख्या वयले नळे फुटल्यात — तातूंतल्यान किर्णा येतात.

आमच्या कुटूंबांत मनशां सात वजा दोन बरोबर पांच. पयलीं सात वजा दोनची खबर सांगतां. अेक पूत कुटूंबांतल्यान पळून गेलो. ताचें नांव नरेश. नाटकाचो खूब शौकीन. आमी ताका नाटकी नरेश म्हणटालीं. आतां हांगां-थंय नाटकां करीत भोंवता खंय. हो नाटकी नरेश वजा अेक. दुसरी म्हजी घरकान्न. सादारण दोन-तीन वर्सां जातलीं. ही वयर रावता. वयर म्हळचार माळयेर न्हय. घराक माळीच ना. वयले-देवाले माळयेर रावता. संवसाराक अुबगली. म्हणपाक लागली, तिकेट काडटां. हांवें म्हळें काड. काडली. गेली. आतां उल्ले पांच. पांचातलो अेक हांव. उल्लेले तीग पूत आसा. आनी अेक अपुरबायेची धूव. वरां कितलीं जालीं ? म्हगेलीं दीपरत्नां उदेवपाचीं जालीं. (भायर पळयत) हो येता तो बाबुश. म्हगेलो व्हडलो पूत. ताचे अस्वडीं लोक ताका बेबदो बाबुश म्हणटात. (बाबुश येता. पिला पुण लकना)

बाबुश : बाप्पा, हांव सांगतां - तूं आयक. जगलोक कितेंय अुलोंव तूं अुलोंव नाका.

सूर्या : कितें अुलयता जगलोक ?

बाबुश : लोक म्हणटात पुतान बापायचें नांव वगडायलें.

सूर्या : अशें म्हणटा ?

बाबुश : पुण हांव तुका सांगता बाप्पा, हांवें तुजें नांव वगडांव ना
सूर्या : कशें वगडायतलो ? वगडावपाक हांवें नांव जोडलां तरी खंय ?
बाबुश : ना कशें तर, जोडलां. आमचें आडनांव कितेंय आसूं. पुण तुवें स्वतःच्या कर्तूबान (पिवपाच्या) सुराटो हें नांव जोडलें काय ना ? नाजाल्यार स्मगलींग करपी सखारामाक कोण सखाराम स्मगलर म्हणना पुण तुका मात सूरमारो म्हण सूर्या सुराटो म्हणटात. केदो लौकिक हो !
सूर्या : लोकांचें तोंड म्हळ्यार व्हांवतें गटार तें कोण बंद करतलो?
बाबुश : पुण बाप्पा, लोक कितेंय म्हणूं हांवें तुजे नांव वगडांव ना. वाडयलां हांव बाप से बेटा सवाई जालां.
सूर्या : कसो म्हज्या पूता ?
बाबुश : हांव तुजो व्हडलो पूत. (दुबावान) व्हडलो न्हय ? हांव तुजी गादी व्यवस्थीत चलयतां.
सूर्या : तूं कसली म्हजी गादी चलयतलो ? हांवच दुसऱ्यांचे गादयेर पितां.
बाबुश : बाप्पा, आमी दोगूय पितात ती गादी न्हय. गादी म्हळ्यार परंपरा. तूं जें करीत आयला तें हांव मुखार व्हरतां. तूं पितालो. आतांय पितां. पुण बाप्पा तूं फट मारूं नाका. तुवें पिरायेच्या पंचविसाव्या वर्सा पिवपाक सुरवात केल्ली.
सूर्या : हय, थोडचा उसरान जाली खरी.
बाबुश : पुण हांवें पिरायेच्या अवघ्या पंदराव्या वर्सा पिवपाक आरंभ केलो.
सूर्या : सोबता. बाप से बेटा सवाई !
बाबुश : इतल्यान सोंपना. बाप्पा, जाणां जा. एक कोप माल्ल्यार तुज्या कपलाक चट्टा आनी तूं हे कडेच्यान ते कडेक झिडपता. पुण म्हाका पळय. पांच कोपां मारुन आयलां तरी सामको नीट चलतां.
(तसोच नीट चलत घरांत वता.)
सूर्या : वा ! वा ! बापायचें नांव वयर काडलें. टी. वी. च्या टॉवरा परस नांव वयर काडलें.
(इतल्यान भायरसून जुगाड्डो जगन्नाथ येता.)
जगन्नाथ : बाप्पा, तूं आज खेळटलो ? नंबर सांग.
सूर्या : (लोकांक) हो जगन्नाथ. हाका लोक जुगाड्डो जगन्नाथ म्हण वळखतात. हो म्हगेलो (याद करीत – जगन्नाथाक)

पुता, तुजो नंबर कितलो रे ?

जगन्नाथ : हांव तुकां सद्चे सारखो खंयच्या नंबरार खेळटलो काय म्हण विचारतां. तूं म्हाका मदींच कसलो नंबर विचारता?

सूर्या : आमच्या कुटूंबात तुजो नंबर कितलो काय म्हण विचारतालो

जगन्नाथ : हें बरें. बापूय तूं. याद तुकां अुरपाची. म्हजे तकलेंत कितले नंबर आसता. तूं आज खंयच्या नंबरार खेळटा ?

सूर्या : आज हांव सामको खाकनवाळ. कांय ना. म्हज्या नांवार तूंच लायता जाल्यार लाय. नंबर आयल्यार अर्द तुकां अर्द म्हाका.

जगन्नाथ : ना. बरो बापूय जालो म्हण धंदयाकडेन असले व्यवहार ना.

सूर्या : बरोबर. हो खरो समाजवाद. धंदयाकडेन सगळे सारखे.

जगन्नाथ : म्हणटकूच तूं आज एक्कूय पैसो लायना तर ?

सूर्या : म्हजेकडेन पैशे ना. म्हाकाच जाल्यार हांव एका नंबरार लायतां.

जगन्नाथ : नाकां. आनी नेमको तोच नंबर आयलो जाल्यार तुकां दिवपाक हांव पंचेचाळीस बापूय खंयसावन हाडूं ? (वचपाक सोदता - भितर)

सूर्या : आज ताकतिकेनसो ?

जगन्नाथ : अेक बरी आलायती संद आसा. बेताळाच्या देवळाकडेन अेक कंपनीचें नाटक आयलां. थंय गडगडो नाजाल्यार इस्पीकांचो खेळ लावंक सोदतां.

सूर्या : पुण नाटक फुकट काय तिकेटीचें ?

जगन्नाथ : तीच तर भानगड आसा. नाटक तिकेटीचें. लोक तिकेटी काडून माटवांत आसतले. जुगार खेळटले कोण ?

सूर्या : अेक जांव येता. नाटक जर पडलें जाल्यार लोक तुगेल्या जुगारी पटार येंत.

जगन्नाथ : पुण तिवूय शक्यताय उणी. नाटक खरेंच बरें जाता खंय. श्रीकृष्ण खंय सामको टॉप जाता.

सूर्या : अशें ? म्हाका अेक तिकेट पळयशी ?

जगन्नाथ : म्हजेकडेन पैशे ना. (तडक भितर वता.)

सूर्या : हो जुगाड्डो जोडीत कितले आनी मोडीत कितले. कोंत आनी हिशोब ना पुण बापायच्या हातार एक दमडी वडयल्यार जाय तसलो सोपूत !

चमेली : (भायरसावन व्हडल्यान उलो मारता) डॅ ऽ ऽ डी

सूर्या : (लोकांक) तुमच्या मदल्या कोणांक तरी तुमगेली चली उलो मारता आसतली.
चमेली : (भायर येत) डॅडी
सूर्या : डॅडी ? कोण डॅडी ?
चमेली : तूं ?
सूर्या : हांव ? हांव तुजो बाप्पा. डॅडी केन्नाच्यान जालों ?
चमेली : आयच्यान.
सूर्या : हें पळय, हरशीं तूं म्हाका बाप्पा म्हणटा – तोंडार तरी. अस्वडीं कितें म्हणटा तें खबर ना.
चमेली : कांय म्हणना डॅडी.
सूर्या : पुण लोक मात तुकां म्हणटा –
चमेली : कितें म्हणटा ?
सूर्या : तुज्या मुखार चमेली म्हणटा आनी तुजी फाट वळटकूच तुकां चंचल चमेली म्हणटा.
चमेली : पाड पडूं लोकांचें असल्या लोकांचें सपन पडूं नाकां.
सूर्या : सद्याक तुकां कसली सपनां पडटात ? कोण दिसतात सपनांत ?
चमेली : (लटकें रडत) आवय दिसता.
सूर्या : शी ! शी ! ही पिराय कसली ? हे पिरायेर सपनांत आवयक पळोवपाची ? ते तुगेले आवयक म्हण मात धंगण ना. अशे नाजूक पिरायेर तुज्या सपनांत ती येंवचीच कशी ?
चमेली : डॅडी, म्हज्यो भावना तूं कित्याक दुखयता ?
सूर्या : ना. दुखयना. पुण हांव तुकां एक विचारूं म्हजे धुवे ?
चमेली : कितें तें डॅडी ?
सूर्या : तूं आयज इतलें लालेता कित्याक ?
चमेली : म्हणजे ?
सूर्या : हरशीं तूं म्हाका बाप्पा म्हणटा. पैशांची गरज आसतकूच तूं म्हाका अण्णा म्हणटा. कोणाय बरोबर पिक्चराक वतना हांवें तुका पळयलें जाल्यार तूं म्हाका पप्पा म्हणटा जाल्यार आयज डॅडी म्हणपा सारखें घडलां कितें ?
चमेली : जाणां डॅडी, आयज बेताळाच्या देवळाकडेन अंक बरें नाटक आसा. द्रौपदी वस्त्रहरण !
सूर्या : तातूंत श्रीकृष्णाचें सवंग टॉप जाता खंय !
चमेली : तुकां कशें कळ्ळें ? तूं येवचोना न्हय नाटकाक ? तुकां

जागरणां बरी न्हय·

सूर्या : पोर बापायची कितली काळजी घेता·

चमेली : (लागोळेपणान) डॅडी, म्हाका एकल्यान तिकेट काडून दवरता म्हळळ्या.

सूर्या : कोणे ती ? (चमेली लजता) त्या दिसा जाणे पिक्चराची तिकेट काडलेली तोच काय म्हण विचारतां ?

चमेली : शीस्स ! ते दीस पिक्चराक गेलें म्हण. त्या काळू बरोबर नाटकाक कोण वता ?

सूर्या : आं. म्हणटकूच हो दुसरो. काळू न्हय, गोरुबी आसतलो· (चमेली मुरकत घरांत वता)

हाका मेट्रीकेक जितले मार्क पडिल्ले ताचेपरस अदिक हाणे सिनेमा पळयिल्ले. फेल जालें. तर आमच्या कुटूंबातल्या सगळ्या मनशांची तुमकां वळख करून दिली. तुमी सगळ्यांक सारखे मेजल्या आसतले. तर असो हो म्हजो – म्हळ्यार सूर्या सुराट्यालो संवसार. आतां तुमी म्हणटले ह्या संवसारांत सुख खंय आसा ?

(इतल्यान भायरसून परमानंद येता. गांजा-चरस ओडपी व्यसनी तरनाटो.)

परमानंद : हांव सांगतां. सुख खंय आसा तें हांव सांगतां. कारण आजवेर कोणाकूच लागूं नाशिल्ल्या सुखाचो सोद म्हाका लागला.

सूर्या : (लोकांकडेन दिलगिरी व्यक्त करून) हें अशें जाता. हो आपूण जावन येना जाल्यार एक नंबर चुकपाचो. हें आमच्या कुटूंबांतलें निमाणे पुत्र रत्न. परमानंद. पयलें नांव दवल्लेलें आनंद पुण हाचीं कर्तूबां पळयतकूच तें नांव ताका मोटवेंशें दिसपाक लागलें देखून कमर व्हड जातकूच पेंट सोडून कशी रुंद करतात तशें हाचें आनंदाचें परमानंद केलें.

परमानंद : बाप्पा, हांव तुकां सांगता, हे लोक सगळे पिशे. आमदार, मंत्री जावपाक सोदतात ते पिशे. नवे नवे उद्योग चलयतात ते पिशे. शिकून बुदवंत जावपाक सोदतात ते पिशे.

सूर्या : मागीर म्हज्या भांगरा. संवसारांतले शाणे मनीस कोण ?

परमानंद : (हड्‍ड्यार हात मारीत) ह्या संवसारांत शाणे मनीस साप्प थोडे. आनी जे शाणे तेच सुखी. हांव शाणो, हांव सुखी.

सूर्या : कित्याक म्हणून तूं सुखी ?

परमानंद : हांव शिकपाक तकली फोडीना. नोकरेक तडफडना. म्हाका कसले इत्सा हावेस ना. हांव सुखी. हांव जे अवस्थेंत जगतां, ते अवस्थेंत फक्त दिव्य मनीस जगतात. हो संवसार म्हाका किकोंत. हांवें खोंट माल्ल्यार हो संवसार आर्त्याचो पर्तो जात्रपाक शकता. मारूं खोंट ?

सूर्या : नाका. पाश्टाचेर चार कौलां उल्ल्यां तीं फुटून नळकुटचो जातलीं.
एक सांग. हें तुजें सुखी जिवित जगपाक तूं जीं दिव्य वखदां घेता तीं तुकां खंय मेळटा ?

परमानंद : तूं म्हजो बापूय जालो तरी असलो दिव्यत्वाचो संदेश हांव तुकां फुक्या सवाय दिवंक शकना. ताका पैशे पडटात. गुड्बाय ! (भितर वता )

सूर्या : गांजा चरस, अफू, म्हाका नांवां खबर ना असल्या अमली जिनसां फाटल्यान हो आसा. सगळीं रत्नां येवन गेलीं. पांचवें रत्न पळून गेलें म्हण सुटलें नाजाल्यार हे परेडीत दिश्टी पडटलें आसलें. तर असो हो सूर्या सुराट्चालो संवसार. बेबदे, जुगाड्डे, तवनास, पारपोळ, आलमपेड्डचार असले संततीचो हांव बापूय. हातुंतलो एकलोय पोर सारखो शिकुंना पुण दर एकलो आपले परीन कितें तरी करीत आसता. पुलीस तांका केन्ना धरता आनी केन्ना सोडटा ते तांचे तेच जाणांत. तशी म्हाकांय तांची चिंता ना. हांव तांकां पोशिना. तेवूय म्हाका पोशिना. पुण तांचे पासून म्हाका प्राप्ती आसा. शिवाय म्हजो शेक तांचेर चलता. काल-पयर मेरेन एकल्या एकल्याक हे म्हेडीक बांदून घालून हांवे तांचो झोड काडला. हांव जोडीना पुण हांचेर पोसतां. कितलोय जाल्यार हांव चोरांचो बापूय! ( आपणाल्याच कर्तृत्वाचेर खोशी जावन हांसता. भितरसून बाबुश, जगन्नाथ, परमानंद आनी चमेली एकामेकांकडेन मोटमोटचान झगडत भायर येतात. तांगेले चौगांलेय पैशे कोणे तरी चोरल्यात आनी तीं अेकामेकाचेर आळ घालून झगडटात,

– तूं एक नंबरचो चोर,
– चोरता आनी बासता – फटींग.
– चोर, फटींग, बास्कळ, नागवणो.

– रस्ताद, आलमपेड्ड्यार, तवनास.
– पनवत, साडेसाती.
– मुस्कट फोडटलों.
– हात तोडटलों.
– पांय मोडटलों.
– दोळे कोंचतलों.

सूर्या : ( सगळ्याचेंर धेंकणो घालीत) आवाज बंद. कोण मेला म्हण बोबो मारता. आवय मरुन तिचीं हाडां कितललीं. हांव आजून जितो आसां.

बाबुश : म्हजे पैशे कोणेतरी चोरले.

जगन्नाथ : म्हजेय चोरले.

परमानंद : म्हाकाय नागयलो.

चमेली : म्हजेय पैशे माल्ले.

बाबुश : ही पयलीच खेप न्हय. जायते फावट अशेंच घडटा.

सूर्या : म्हाकाय अशेंच घडटा. आज म्हजे निमाणे चार आणे आशिल्ले तेवूय कोणे तरी माल्ले. तुमच्या मदल्या कोणेन काडल्या ते बरेभशेन दियात नाजाल्यार हे म्हेडीक बांदून पेट घालतां.

बाबुश : तुज्या चार आण्याचें कसलें घेवन बसला म्हजे पन्नास रूपया ना.

जगन्नाथ : म्हजे शंबर.

चमेली : (रडत) म्हजे वीस.

परमानंद : म्हजे-म्हजे-खूब. म्हाका आत्तां पैशे जाय नाजाल्यार हांव खून पासून करपी.

सूर्या : आरे, हांवें मागिल्ले फावट तुमी पैशे ना म्हणून सांगता. मागीर हे पैशे खंयचे ?

जगन्नाथ : आसा म्हण तुज्या हड्ड्यार घालपाचे ?

सूर्या : म्हाका गरजवंताक तुमी पैशे दिना आनी चोरांचे भकीक घालता.

बाबुश : चोरांचे न्हय तुजे भकीक. आमी मात बेस्टोच एकामेकां-चेर दुबाव घेतात.

चमेली : आतां आमची सारखी खात्री पटल्या बाप्पा.

सूर्या : आतां बाप्पा न्हय ?

बाबुश : ह्यानफुडें असलीं नाडपणां चलपाचीं ना.

परमानंद : ह्यानफुडें तुकां तो चोरयेचो आनंद घेवपाक मेळपाचो ना.

सूर्या : आरे ! म्हजीं पोरां म्हाका धपकायतात. एकल्या एकल्याक म्हेडीक बांदून पेट घालीन.

बाबुश : परत परत तीच म्हेड आनी तोच पेट. भुरगेपणांत एक सोंसलें तुजें. आतां तेच म्हेडीक तुकां बांदून घालतां.

सूर्या : अशें ? पळोवया तँरी.

बाबुश : चलात रे. हाडात ती दोरो. धरात हाका घट. (एकलो दोरी हाडटा. बाकींची सूर्याक घट धरतात. हात फाटल्यान धरून म्हेडीक बांदून घालतात. सूर्या व्यर्थ धडपडटा)

सूर्या : आरे, कोणूय तरी धांवून येयात रे. ह्या पोरांनी म्हाका खाल्लो रे, माल्लो रे
(इतल्यान एक शेजारी-शंकर धांवत येता.
आरे, शंकर तूं शेजारी मरे म्हजो. पळय रे पापया ह्या पोरांनी म्हजी कशी वाट लायल्या म्हाका मातसो सोडय.
(शंकर सूर्याक सोडोवपाक वता )

बाबुश : शंकर, फाटीं सर. तुकां याद आसतली आमकां भुरग्यांकूय हो बापूय असोच हेच म्हेडीक बांदून घालतालो. आमी हुयेली मारतकूच तूं असोच धांवून येतालो तेन्ना हो आमचो बापूय तुकां म्हणटालो, खबरदार शंकर, ताका हात लांव नाका. मरुंनी थंयच आज आमीय तुकां तेंच सांगतां –

सगळीं : खबरदार शंकर, मरूंनी ताका थंयच.
(शंकर आयिल्लो तसो परतता.)

सूर्या : शंकरा, म्हाका असोच सांडून गेलो मरे ?

जगन्नाथ : आतां आमीय वतात नाटकाक. संगीत द्रौपदी वस्त्रहरण. मागीर नाटकाकसावन येवन तुकां सोडयतां.

बाबुश : ते म्हणसर आमचे चोरलेले पैशे खंय खंय दवल्ल्या आनी खंय खंय मोडल्या ताचो उगडास कर

परमानंद : गुड् बाय ! (सगळीं भायर वतात.)

सूर्या : परमेश्वरा ! कितें म्हजे भोगणार हे ? पांच भुरग्यांचो बापूय हांव आनी म्हजी ही दशा ? एकल्याय भुरग्याक म्हजी काकळूट येना? हांचे खातीर हावें कांय केलेंना जायत पुण हांकां हांवें जल्माकूय घातलीं ना ? घडये म्हणेलो नाटकी नरेश आशिल्लो जाल्यार म्हाका पावतलो आसलो पुण पावतलोच आसलो म्हणपाचो भरवंसो कितें ?

मुडचाचे सगळे आंबे कुसचे तशी म्हजी सगळी संततूच कुसकी जाली. परमेश्वरा, तुकां दोळे आसा न्हय? काय तुवेंय धांपल्या? आमच्या सारख्या दुःखी कश्टी मनशांक पावचोना जाल्यार आनीक कोणांक पावतलो?
(मान सकल घालून रडटा भायरसून भगवान श्रीकृष्ण येता. भरजरी पोशाख. माथ्यार मुकूट आंगार अळंकार. श्रीकृष्ण ताच्या म्हऱ्यांत येता आनी ताचे खाडकेक हात लावन ताका जागयता)

श्रीकृष्ण : जालें रडून? आतां तकली वयर कर.
सूर्या : कोण तूं?
श्रीकृष्ण : श्रीकृष्ण.
सूर्या : कोणालो? वासुदेव वागळ्यालो? नामदेव नायकालो?
श्रीकृष्ण : न्हय.
सूर्या : आडनांव कितें म्हळें?
श्रीकृष्ण : आडवाटेन वचपी मनशांक आडनांवा लागतात. परमेश्वराक आडनांवा लागना. हांव श्रीकृष्ण.
सूर्या : आं भगवंतालो श्रीकृष्ण.
श्रीकृष्ण : न्हय. भगवान श्रीकृष्ण.
सूर्या भगवान श्रीकृष्ण! म्हणजे साक्षात परमेश्वर?
श्रीकृष्ण : हय.
सूर्या : आरेरे! पाड पडूं!
श्रीकृष्ण : कोणाचें?
सूर्या : म्हज्या भुरग्यांचें. आयुष्यान पयलेच खेप भगवान श्रीकृष्ण म्हजे मुखार उबो आसा आनी ताका नमस्कार करतलो जाल्यार म्हजे दोनूय हात बांदून घाल्यात. भगवान, एक उपकार करशात?
श्रीकृष्ण : सांग, हांव तुजेर प्रसन्न जालां.
सूर्या : बांदून घातल्या ते म्हजे हात सोडशी?
श्रीकृष्ण : म्हजेकडेन सुटत मरे? आनी तुकां सोडला म्हण तुजीं भुरगीं म्हजेर तापना मरे?
सूर्या : (अजापान) भगवान, संवसाराचे इतले पास तुवें सोडयले हो पास सुटत म्हणपाचो तुकां भरंवसो ना? सगळो संवसार तुकां भिता आनी म्हजीं भुरगीं तापत म्हण तूं भिता? भगवान, अशी परिस्थिती तुजेर कित्याक येंवची?
श्रीकृष्ण : तशें न्हय बाप्पा.

सूर्या : भगवान, तुवें म्हाका बाप्पा म्हळळो ?
श्रीकृष्ण : तुज्या मनाखातीर आनी कांच वचून तुकां आपलेपण दिसचें देखून.
सूर्या : तुज्या रूपान म्हाका म्हजो पळून गेल्लो पुतूच आयला कसो दिसता. नाटकी नरेश.
श्रीकृष्ण : हें पळय, तूं तुज्या पुताचो उगडास काडून भळभळयां रडपाक लागशी. म्हाका चड वेळ ना हांव जंय सावन आयलां ते सुवातेर म्हाका परत वेळार पावपाक जाय. नाजाल्यार धांदळ जातली. हांव फक्त तुजी खबर घेवंक आयलां.
सूर्या : भगवान, म्हजी कसली खबर घेता घेताच जाल्यार म्हज्या भुरग्यांची घे. पळय, ताणी म्हजी कशी दशा केल्या. (भगवान हात सोडटा)
श्रीकृष्ण : आनी भुरग्यांची दशा जावपाक कारण कोण ?
सूर्या : तांची दशा ? कितें जालां तर तांकां ?
श्रीकृष्ण : तुगेलें एकतरी भुरगें मनीस म्हणटा ते पदवेर पावलां ?
सूर्या : ना. पुण म्हजो नाटकी नरेश सुदाल्ला आसतलो.
श्रीकृष्ण : नाशिल्ल्याच्यो खबरो कित्याक ? आशिल्ल्यांच्यो अुलय.
सूर्या : ते सुदारुंक ना. हो म्हजो गुन्यांव ?
श्रीकृष्ण : मागीर कोणाचो म्हजो ?
सूर्या : ना भगवान, वगीच हांव तुजेर कित्याक शीणूं पुण हांवें तांकां जल्म दिलो.
श्रीकृष्ण : ताणी मागिल्लो ?
सूर्या : ना.
श्रीकृष्ण : तरी तुवें तांकां जल्म दिलो. कसो जाणां ?
सूर्या : (भित भित) कसो ?
(उलयता उलयतां श्रीकृष्ण थंयची एक रिती बाटली उखलता.)
श्रीकृष्ण : ही बाटली जिखून धरशी ?
सूर्या : (तयारी करुन) हय.
(श्रीकृष्ण बाटली वडयता. सूर्या दोनूय हातानी जिखता. दुसरी बाटली हातांत घेवन –)
श्रीकृष्ण : आतां ही दुसरी बाटली वडयतां. जिखशी ?
सूर्या : भगवान, मातसो राव. ही पयली सकल दवरतां. आतां वडय (श्रीकृष्ण वडयता. सूर्या जिखता.) भगवान, हें तुवें कितें चलयलां ? हो बाटल्यांचो खेळ ?

श्रीकृष्ण : हो तुज्या जिविताचो खेळ. भुरगें म्हळ्यार कंवचेची वस्त कशें ताका जपचें पडटा. पयलें जिखलें की, ताची जतनाय घेवची पडटा. तें भूंयेर थीर जातकूच मागीर दुसऱ्या खातीर हात मेकळे करचे पडटा. तुं दोनूय हातांनी एकार एक जिखित रावलो आनी कंवचेच्यो वस्तू अेकामेकार आदळून तांचो चुरो जाता तशीं तुज्या भुरग्यांचीं जिवितां फुटून गेलीं. तांचे शिक्षण, संस्कार, शीस्त पळोवपाक तुकां उसरपतूच मेळ्ळी ना.

सूर्या : भगवान, हांव चुकलो. हांवेंच सगळ्यांची वाट लायली. हांवूच गुन्यांव कारी. म्हाका मर्णाची ख्यास्त फाव.

श्रीकृष्ण : तुज्या मर्णान घडये तुजो प्रश्न सुटत तांचो न्हय.

सूर्या : तांका तूं बुद्ध दी.

श्रीकृष्ण : हांव यत्न करीन. भगवंताच्या रुपान आयलों तरी म्हज्योय कांय मर्यादा आसात.

सूर्या : आतां हांव कितें करूं भगवान ?

श्रीकृष्ण : तुजे परी तूं सुदार आनी म्हजो कंवचेचे वस्तूचो संदेश सगळ्यांक सांगत वच.

सूर्या : खरेंच, ह्या खिणाकसावन हांव आरंभ करतां.
(वचपाक वता. इतल्यान वाटेंत-दारांत ताका नाटक कंपनीचो मॅनेजर मेळटा. सूर्या तांकाच समजावपाचो यत्न करता –)

सूर्या : आयक म्हज्या भावा –

श्रीकृष्ण : (सूर्याक) ताका नाका. मुखार –
(सूर्या भायर वता.)

मॅनेजर : (गोंदळून) नरेश नरेश हें तुवें कितें आडायलां ? आरे, थंय नाटक सुरु जावन द्रौपदी वस्त्र हरणाचो सीन लागीं पावत आयलो आनी श्रीकृष्णाचो भेस चडोवन हांगा घरां भोंवता ? म्हजेर कसलो आकांत. तुकां कितले कडेन सोदलो.

नरेश : वस्त्रहरणाच्या प्रसंगाचेर हांव कान दिवन आसलों. तूं कसोच भियेंव नाका.

मॅनेजर : पुण तूं हांगां कसो पावलो ?

नरेश : हें म्हजें घर. आत्तां गेला तो म्हजो बापूय. म्हजीं भावंडा नाटकाच्या माटवांत बसल्यांत.

मॅनेजर : अच्छा !

नरेश : संवसारांत जितलें कोणाचें वस्त्रहरण जांवचें न्हय तितलें म्हज्या बापायचें जालां. द्रौपदीच्या वस्त्र हरणांक भगवान श्रीकृष्ण धांवून गेल्लो. आता म्हाका म्हज्या बापायच्या आनी भांवडांच्या जिवित रक्षणाखातीर पावपाक जाय.

मॅनेजर : कांय हरकत ना. तुवें तर आतां धन आनी लौकिक दोनूय जोडलां शिवाय हांगा-थंय भोंवून संवसाराचो अणभव घेतला. तुकां तें कठीण न्हय.

नरेश : हांव यत्न करीन.

मॅनेजर : जरूर. पुण ताचे आदीं द्रौपदीच्या उल्याक पाव. चल.

(दोगूय हांसत हांसत भायर वतात. सोंपता )

चेडो
अब्दुल्ला
ताईबाय
वावराडी
शाली
कांता
वावराडेलो घोव

---

# वावराची वावराडी

---

चेडो : ( हांसत ) नमस्कार अिश्टांनों, ( आडेचें दुःख ) अिश्टांनो, आज धंदो बंद. कारण तुमकां समजलां आसतलेंच. सकाळच्यान जर तुमी रेडिओ आयकला आसत जाल्यार ती गजाल तुमकां कळया आसतलीच. तर देशांतलो खंयतरी कोणतरी देवाघरा गेला. म्हण्टकूच तुमी – आमी देशबांधव देखून आज दुकानां बंद, सिनेमाघरांय बंद. आनी तेखातीर आमचो धंदो बंद. म्हाजे तकलेंन अशी अेक कल्पना येयल्या. कसली कल्पना ? सदांच तरांतराचे सिनेमा पळोवपाचे योग आमकां येतात. आयज सिनेम ना म्हण्टकूच आमचोच अेक सिनेम तुमच्या मुखार दवल्ल्यार कसो ? तुमीं म्हण्टले, तुज्या दयडिऱ्याचे जीणेंत सिनेमांत दाखोवपा सारखें कितें आसा ? तुमचे म्हणणें बरोबर. पुण पळयात-केन्ना केन्नाय तुमी जेवण मेळना वो परवडना जाल्यार भाजी आनी पावाचेर मारुन व्हरना ? तशेंच समजात. म्हणजे आज खरो सिनेमा ना देखून हांव म्हाजो सिनेमा तुमकां दाखयतां. दाखयतां म्हणजे सांगतां. तर सिनेमाचें नांव 'वावराची वावराडी'. नांव सामकेंच अळणुटें. न्हू ? पुण तेका आतां कितें करतलो ? हें नांव दवल्ले बगर इलाज ना. सुरु करुयां न्हू ? तर आतां कॅमेरा म्हाज्या तोंडार आसा. म्हाजी वळख करपाक जाय न्हू ? हांव वावराडेचो चलो (खजील जावन)

सॉरी आं. चूक जाली. वावराडेक चलो कसो आसूं येता? चेडो हांव वावराडेचो चेडो. हेच म्हाजे खरें नांव. पाळण्यांतलें, नांवरसचे तीं नांवां खंय कोनशाक पडल्यां देवाक खबर. आतां म्हाज्या शिक्षणा संबंदान सांगतलो जाल्यार खूब आसा. म्हणजे शिक्षण कित्याक लागून जालेंना हें खूब तरेन सांगूं येता. पिराय ? शिकल्यार मूं ती लक्षांत उरपाची ? आनी वावराडेगेर पोरांच्या जल्मांची सेर्तिसांवा मेळपाक येयल्यां ? पुण म्हाकां हाली लग्नबी जायनशें दिसता. हे गजाली वयल्यान घडये तुमी म्हाजी पिराय पारखुंक शकतले. हय की ना ? म्हाजे संबंदान सांगपाचें आनींक कितें अुल्लें? धंदो? सायबा भोगोस. धंदो हें आमचे व्हडलें सिक्रेट. म्हणजे तेचें कितें आसा ? पाडपडलेल्या आमच्या धंद्याक लायसन ना. ना म्हणजे लायसन आसता तसलो धंदोच न्हू तो. खऱ्यांनीच. अभिताभ बच्चनाच्यान. अभिताभ बच्चन ! ढीश्यांव ! ढीश्यांव ! हीट फील्म ! गर्दी ! झुंडयो ! हाउसफुल्ल ! तिकीट ... तिकीट ... तिकीट... (निलादरेपणान हांसता) आमच्या धंद्याची कल्पना येयल्या आसतलीच न्हू ? म्हाजेविशीं आनींक कितें सांगतलो ? हो म्हाजो भेस. जीनाची पेंट – पेंटीक दाटायेचो पटो बॅल्ट. तेचेर हें तायटा येदें इंग्लेज अक्षर सी–सी फॉर चेडो ! वयर हें खोमीस खोमसाचे फक्त सकयले.दोन बुतांव लावपाचे. केंस नाशिल्लें सगळे हड्डें उक्तें. माथ्यार केंसाचें रान. मदीं मदीं अश्शे केंस हेवटेनचे तेवटेन वडोवपाचें. तोंडांत जळटी सिगरेट. सिगरेट नासल्यार पान. पुण सिगरेट आसूं वो पान आसूं हिंदी सिनेमांतले डायलॉग जिबेच्या तोंकार. म्हाका दिसता म्हाजी इतली वळख पुरो. इतल्यान तुमचें समाधान जायना जाल्यार म्हाजी वळख तुमकां आमचो जानी दोस्त घडयतलो. लंगोटीयार म्हणप बुरशें दिसता देखून जानीदोस्त. तर आमचो जानीदोस्त अब्दुल्लाभाय .... (शिळोणी घालीत अब्दुल्ला येता)

अब्दुल्ला : क्या दोस्त, धंदा कैसा चलता रे ? बडा कापाज आं तू. काल कितना जोडा रे तूं ? आमको क्यूं लिपयता रे ? कितना खाया पिया फटींगा ?हमकू सब मालूम रे. कोमडी मुतेगी ना तो बी हमकू मालूम पट्टा है यार. मोटो चलाख आं तूं. ब्लॅक का धंदा तुनेंच करनेका. हमकू भी डर लगता

हे. तूं पुलीसको भी डरता नाय. सोमार दीस तुमको पुलीसने कितना पेटा रे पुण तूं खंय डरता? दुसरे दीन धंदेको हाजीर. ए, तुने अेक गजाल बेश्ट किया. उस बारवाले आंतोनको मरासर झोडा. भौत दादागिरी कर्ता था. ब्लॅक कर्ना जैसा काय उसकेच बापका माल. अब तुजे सामकार उबाही रहेगा नहीं. बेस्टूच हो गया. आरे, तुझे क्या पिटेगा वो? सेमित्रीसे उसका बाप जिंदा होना चायए. आनी तुजे पिटा तो क्या होगा? तूं दुसरे दीन अपनाही मूत पियेगा और फीर लडने को तैयार (हांसता) साला? तूं वावराडेका चेडो लेकीन अमिताभसेभी सुपर! (शिवोणी घालीत वता.)

चेडो : आमच्या जानीदोस्त अब्दुल्लान आमच्या पराक्रमाची वळख घडयली. म्हाजी तुळा ताणें अमिताभ बच्चनाकडेन केली पुण हांव वावराडेलो चेडो म्हण म्हाका हिणसावपाक तो विसल्लो ना. कितेंय जांव. पुण अशी ही वावराडी आमची माताजी! मातोश्री! आवय म्हणप म्हणजे सामकेंच पचपचीत कशे! आई म्हण्टल्यार चड सभ्य जातलें. कितेंय आसूं - आवय, आई, अम्मा, मां, अखेर ती वा-व-रा-डी. वा-व-रा-ची वा-व-रा-डी ताईबायगेर आयदणां घांसता. (वावराडी ताईबायगेर आयदणां घांसता तो देखाव. आयदणां घांशिल्ल्याचो आवाज. मागीर घसांयच करुन आयदणां पडिल्याचो आवाज.)

ताईबाय : आगो, आयदनां घांसता क्राय फोडटा?

वावराडी : पेळयेवयली निसल्लीं ताईबाय.

ताईबाय : सद्दां अेक अेक नावाडगेंपण आसाच तुजें. (आपणां भितर) कोण मेळना म्हूण दवरपाचें तुकां.

वावराडी : कांय फुटूंना ताईबाय.

ताईबाय : आयदनां कित्याक फोडटले? आपलें नशीब फोडशी.

वावराडी : ताईबाय, कित्याक जळटा वगीच ?

ताईबाय : हालीं बाये तुकां कांयच म्हणिल्लें सोंसना. जाचें खाता ताणें उलयल्यार आंगाचे कुडके वता काय कितें ?

वावराडी : तशें न्हूं ताईबाय.

ताईबाय : हांव केन्नाय कितेंय उलयल्यार तुज्या बऱ्याकूच उलयतां. ही ती धाल म्हाका बेस्टीच मेळूंना.

वावराडी : कसली धाल ?

ताईबाय : आगो, घरांतली वावराडी आनी आमच्या घरांत कितें घडटा तें तुकां खबर ना. ?

वावराडी : बाकीचें सगळें खबर आसा ताईबाय. पुण ते धालीविशीं कांयच खबर ना. बरी चकचकता आं. आलमारीत दवल्ल्या थंय बरी सोबोनुय दिसता. ताईबाय, असल्यो धाली आदले मुस्तींत झुजताना वापरताले न्हूं. आमगेल्या बारकेल्याच्या पुस्तकार कसली तरी राणी आसा. तिचे फाटीर असलीच धाल आसा. झुजपाची. ताईबाय, ही धाल तुंये कोणांकडेन झुजपाक हाडल्या ?

ताईबाय : शांतू, तूं मगो तोणान सामकें फटकळ म्हण तुकां कांय सांगन दिसना. पुराय आयकून घेंवचेआदींच उखलतलें जीब लायतलें ताळयाक.

वावराडी : सांग ताईबाय, आयकतां.

ताईबाय : कसली खबर सांगताली ?

वावराडी : तें धालीची.

ताईबाय : ते धालीची म्हळयार म्हज्या पराक्रमाची. ती धाल हावें हाडूंना ती म्हाका दिल्या – बक्षीस !

वावराडी : बक्षीस !

ताईबाय : हय आमच्या महिला मडळान दिल्या ती म्हाका.

वावराडी : कसलें बक्षीस ?

ताईबाय : आतां कशे विचाल्लें ? –– हांव एक आदर्श घरकान्न.

वावराडी : आदर्श म्हणजे कशी ? तूं ताईबाय इतलेंच हांव जाणां.

ताईबाय : आगो, आदर्श म्हळयार जीची देख बाकिच्यांनी घेंवची अशी. आतां पळय, म्हजो संवसार ! घोव बरो जोडटा. मोटार आसा, रावपाक प्लॅट आसा. दोगांच भुरगी आसा. कपील आनी कल्पना. आयची चिंता ना फुडाराचो हुस्को ना. म्हज्या संवसाराचो तुकां दुस्वास दिसना ?

वावराडी : दिसता तर ताईबाय.

ताईबाय : कितें म्हळ्ळें ?

वावराडी : तशें न्हू ताईबाय, तुजो दुस्वास दिसता म्हणजे तुज्या सारको बरो संवसार आसचो अशे दिसता. तुजो दुस्वास आमी कित्याक करतली? तुमचें बरें चल्ल्यार आमचें धुकलपाचें न्हू.

ताईबाय : तर हांवेन म्हजो संवसार बरे तरेन चलयला देखून आमच्या महिला मंडळान म्हाका ही धाल दिल्या.

वावराडी : म्हाजो संवसार बरो चल्ल्यार म्हाकांय असली धाल

मेळपाची न्हू ?

ताईबाय : आगो वर्गाच हार उडटा म्हण गांयडोळान उडूंक फावना गो. तुवें बरो संवसार केलो म्हण तुकां धाल कशी मेळटली आसली ? ते खातीर महिला मंडळाची वांगडी जावपाक जाय. तांकां वेळावेळ पैशे फारीक करपाक जाय. मंडळाच्या कार्यक्रमांक बरें न्हेसून आनी आंगार आंगभर अलंकार घालून वचूंक जाय. आनी म्हत्वाचें म्हळ्यार महिला मंडळाचीं हेर वांगडीं जे जातीचीं आसात तें जातीचे तूं आसचें पडलें ना ? हेर सगळें अेकठांय हाडशी जातीचें सवंग कशें हांडटलें ? कितलीय जाल्यार तूं वावराडी.

वावराडी : (रडत) हय, ताईबाय, आमचें नशीबूच फुटकें. ----
( हुंडकेता )

ताईबाय : आगो, आगो म्हगेल्या भल्लेल्या घरांत अशें रडूं नाका सायबिणी. म्हज्या फुलत्या संवसाराक तुजो अपशकून नाकां

वावराडी : (हुंडकेत वता)

चेडो : तर मंडळी अशें हे वावराडेचें दुःख. ताईबायन तिका सकयले जातीची म्हण हिणसायली. वावराडी म्हण जाणीव करुन दिली हीचें तिका दुःख ना. आपणाली जात आनी धंदो बदलूंक येयना अशीच तिजी प्रामाणीक समजीकाय आसा तर गजाल वावराडेच्या दुःखाची.वावराडी दुःखी आसा. हरशीं तिका आपणाल्या दुःखाची कल्पना ना - म्हटल्यार जाता. समजुंया - एखादया मनशाक घाय ज़ाला आनी तो कसल्या कामांत आसा जाल्यार तेका घायाच्या वेदनांची जाणीव नासता पुण जेन्ना आपणांक घाय जाला म्हणपाची तेका जाणीव जाता तेदेवेळार तेका दुखपाक लागता. आमचे वावराडेचें अशेंच कामाच्या रगाडयांत तिचें दुःख खंयचे खंय साणून वयता आनी ताईबायचो सुखी संवसार पळयलो की तिगेलें दुःख उडकी मारून वयर येता. निज्या जिवाक सामके जाळपडटान. हुलप पेट्टात मंडळी, आतां ह्या दुःखाचे कारण सांगचें पडलेना ? कारण अेक आनी दोन न्हू, अनंत. खासा हांव, म्हटल्यार वावराडेचो चेडो तिच्या दुःखाचे अेक व्हड्लें म्हटल्यार खडपायेदें कारण. कित्याक ? तर हांव म्हटल्यार आमचे वावराडेचे लेखी.....

(वावराडी आड्डत चेडयाच्या आंगार धांवून येता )

वावराडी : तवनास, वाळेस, नावाडगो, आलम्पेड्डयार, कपलफुटको,

दयडीरो--

चेडो : मम्मी, कितल्यो म्हण गाळी येता गे तुका ?

वावराडी : मम्मी ? पयरच्या सारको आयजूय पियोवन येयला काय कितें रें ? केन्नाचो गांजुड्डो तूं आनी येन्नादर पिवपाक शिकलो बापायचो पिवपाचो गुण ज्युस्त उखल्ला.

चेडो : घेवपासारको तेजो आनींक कसलो गुण आसा ? आसा, आनीक अेक गुण आसा तेजेकडेन.

वावराडी : कसलो ?

चेडो : आमकां भुरग्यांक जल्मांक घालपाचो.

वावराडी : असलें उलयताना अक्कल बरी व्हांवतां.

चेडो : आवय, आयज हांव खऱ्यांनीच पिंवना. तुज्यान तर.

वावराडी : म्हाजो सोपूत घेंव नाकां नावाडग्या.

चेडो : सोपूत घेतल्यार मरना गे तूं. सोपूत घेतल्यार मरता जाल्यार हांव तुज्या वांटयाचो बापायचो सोपूत घेन.

वावराडी : चुट्टी लाय तुज्या तोंडाक. तो कुंकमाक आदार जालो तरी तेज्याच धर्मान कपलाक तिबो लावन चार चौगांत भोंवता हांव. तुयें मात सामके काळें लायलें म्हाज्या तोंणाक.

चेडो : आवय हायें लावना, घस लागल्या ती तुज्या तोंणाक.

वावराडी : तवनासाचें पडलो तरी नाक वयर (समजायत) म्हाज्या शाण्या, ---

चेडो : (लाडान येवन) कितें मम्मी ?

वावराडी : फकाणांनी म्हणनां हांव दयडिऱ्या. त्या ताईबायल्या कपीलाक पळय. काय बरो शिकता, काय बरो भोंवता. तो तेज्या बापायसारको व्हडलो जातलो.

चेडो : शे हांव तेज्या बापायसारको कित्याक जांव ? हांव म्हाज्या बापाय सारकों जाता.

वावराडी : कीडे पडो तुज्या तोंणांन.

चेडो : आवय, सगळेच जर अशे शिकून मोटे जावपाक लागले जाल्यार मागीर चेडे म्हण्टा ते उरचेच ना मगे. मोट्या लोकांक घरां बांदपाक मागीर मानांय खंयचे ? समाजाचें मातशें चींत मगे.

वावराडी : तुजेकडेन उलयशी माणसुकी ना. बऱ्याचें म्हण कितेंय कानांमनांर घेंवचोना. बांपायन विटयला, तेचेपरस अदीक पटीन तूं आपणालो संवसार पाडा घालतलो. म्हाकां पोसपाचें सोड. आपणांक तरी पोसपाक शीक.

चेडो : आतां तूं आसासर पोस म्हाका. तूं मरतकूच मागीर हांव म्हाज्या पांयांर उबो रावतां.

वावराडी : (चवताळून) दळभद्रया, म्हाज्या मरणाची वाट पळयता ? हांव आसा म्हणोन व्रुमचीं हीं नाटकां चलतात. हांव मरतकूच मागीर माती खातले. गोबोर खातले. म्हाज्या मरणाची वाट पळयता ? आठ आठ दिसांनी तुकां सिनेमाच्यो तिकेटी ब्लॅक करताना पुलीस धरुन व्हरता आनी दर खेपे तेंका बाबापुता आनी सायबा जात्रा करुन हांव तुकां सोडोवन हाडटां. बल्सान पैशे आसासर भायर. मौज मारता. खाता-पिता नाचता आनी बल्साक बुराक पडटकूच. म्हाजो जीव खाता. बापाय फाटल्यान घरांत व्हडलो तूं. खरें म्हटल्यार संवसाराचो भार तुवें घेवपाचो. पुण तुकांच हांव पोसतां. लजकाडो. चुट्टी लाय तुज्या तोंडाक. यो, भोंकूंक. धयार धुमको मारपाक.

चेडो : चडशें वाड, भूक लागल्या.

वावराडी : राणेचो म्हण आनी पोटभर वाड. (घरांत वता आनी घडायंच करुन ताट आदळटा.)

चेडो : (निलादरो जावन हांसता) तर मंडळी, सगळें घोळोवन पिल्याबगर अशे तरेन हांसुपाक जमना. तुमकां जमता जाल्यार पळयात. तर अशे तरेन हांव म्हटल्यार वावराडेंचो चेडो, आमगेले वावराडेच्या जळजळीत दु:खाचें अेक कारण. दुसरें कारण कोण जाणां ? आमगेली भयणुली. नांव शालीनी वापरांतलें नांव शाली. आपूण खुब सुदंर आसा अशी तेजी प्रामाणीक समजीकाय - आसली. शाली तशें पिरायेन व्हडलें न्हू. पुण तेणे ल्हान पिरायेचेरच अेक अितीहास घडयलो. तेजें कितें जालें, शाली शिकतालें शिकतालें म्हणजे शाळेंत वयतालें. हायस्कूलांत. मॅट्रीकेक पावलेलें काय पावपाचें आसलें. अेकदीस शाली शाळेंत सावन घरा येयलें कशें ? (मोटरसायकलीचो आवाज. शाली मोटरसायकलीर बसून आयलां आवय ताका येनाफुडें हडकिता.)

वावराडी : शाली, कोणाले मोटारसायकलीर बसोन येयलें गो ? कोण तो ?

शाली : आवय, कांता तो.

वावराडी : खंय भेटलो तुका ?

शाली : शाळेच्या भायरच. 'येता काय' म्हण विचारपाक लागलो.

वावराडी : आनी तूं पागळ्ळं ?

शाली : हांयें पयलीं येयना म्हण सांगलें. म्हाजेकडेन पैशे ना म्हण सांगले.

वावराडी : म्हणजे ?

शाली : मोटारसायकलीन भाडी मारता तो. पैशे नाका म्हणपाक लागलो. फोर्सूच करतकूच हांव बसलें.

वावराडी : अशें अनवळख्याचे मोटारसायकलीर बसलेंच कशें ?

शाली : बसल्या बगर वळख कशी जातली ?

वावराडी : त्या चेडद्या सारके तुंवूय सुबेज जालें.

शाली : (रडकुऱ्या) आतां मातशें मोटरसायकलीर बसोन येयल्यार कितें जालें ? सद्दा सद्दा चलोन वयतां आनी चलोन येतां. थोडी वाट ती. वोत कसलें लागता लोकांली भुरगीं सायकलीन येतात. हांव वावराडेलें चेडूं म्हणोन चलोन वचप दिसता आनी कोणाले मोटरसायकलीर बसप ना. फायच्यान हांव वचना शाळेंत.

वावराडी :शाली, पोरा अशें अुलोंव नाकां. बरेभशेन शीक. वावराडी म्हण हांव निस्तर काडटा तितले पुरो. तुज्या नशीबांत तसले दगदग नाकां म्हणोन तुकां सांगता. तो चेडो अेक शिक्षण सोडून नाकाक चुनो लावपी जाला. तूं तरी बरें शीक. बऱ्याक पावतलें. कोणाय बऱ्याच्या घरांत पावतलें.

शाली : आवय कांता बरो ऽ ऽ मनीस आं. हांयें पोरुं गॅदरीगांक डॅन्स करुंक नासलो? तो तेका खूब आवडलो. घट याद उल्ल्या तेका.

वावराडी : चल. जेवपाक यो.

शाली : आवय, फाल्यां तेणें मोटरसायकल थांबयल्यार बसपाचें मगे ?

वावराडी : आदीं जेवन घे.

शाली : कांता बरोऽऽ मनीस ! (आवय ताका ओडीत भितर व्हरता.)

चेडो : कांता बरो ऽऽ मनीस. आमच्या भयणुलेच्या काळजांतलीं हीं अुतरां. आतां बरो म्हटल्यार कितलो बरो ? शालीक अेकदां दोनदां न्हू, सद्दां शाळेंतल्यान घरा हाडून पावपा इतलो बरो. मागीर मागीर घरच्यान शाळेंत व्हरुन परत हाडपा इतलो बरो. सांजवेळा टचुशनाच्या नांवार शालीक मीरामार नाजाल्यार कळंगुटे व्हरपा इतलो बरो. म्हाजेच कडल्यान ब्लॅक तिकेटी घेवन शालीक सिनेमांक व्हरपा इतलो बरो. इतलेंच न्हू. शालीक शिरगांवचे जात्रेक व्हरपा इतलो कांता

बरो. कांता बरो ऽ ऽ मनीस! आनी मागीर कांता शालीक बरो तो बरोच, घरच्यांकूय बरो जालो. मदीं मदीं घरा येवपाक लागलो. खावपाक-बिवपाक हाडूं लागलो. जेवपाक बिवपाक रावूं लागलो. शालीक कितें कितें हाड, बापायच्या हातीर कितेंय वडय अश्यो गजाली चलपाक लागल्यो. केन्ना केन्ना कांता सामको घरचो जांवन घराच्यो उस्तवारी आनी जाळवण्योंय करपाक लागलो.

(कांता आयिल्लेकडेन वावराडीताका च्या हाडून दिता.)

वावराडी : घे. च्या घे.

कांता : सांजेच्या आदेसाक शालीक शिवणक्लासाक वचो नी.

वावराडी : शिकता आसताना ते क्लास आनी कित्याक ?

कांता : कांय जायना. दोनूय गजाली शिकों येता तेज्यान. तशें हुशार आसा तें.

काल तेगेलो मास्तर मेळोलो. हेवूय परीक्षेक पयलो नंबर-सोडूंना म्हणोन सांगतालो.

वावराडी : तशें जाल्यार करूनी तर क्लास. पुण --

कांता : पयशांचे हांव पळयतां.

वावराडी : तुज्या उपकारांत कितलीं म्हणोन रावतलीं ? बापूय–पूत दोगूय तशें तूं घरचो न्हू दाराचो. देव कसो पावता.

कांता : तुगेलो घोव – हो बाप्पा सोरो पियेवन सामकोच विटयता. आयजूय म्हाजेकडेन सोऱ्याक पैशे माग.

वावराडी : दिवपाची गरज ना.

कांता : सामकोच फाटीक लागता.

वावराडी : तेणें सगळेंच सोडलां.

कांता : आनी तुगेलो चेडो, कितें करतलो काय ना ?

वावराडी : हांव तेज्या हातीपायांक पडोन पडोन थकलें. कानांमनांर घेयना. जमता जाल्यार तूंच सांगून पळय. आनींक अुपकार जायत. आतां तुच ह्या घराक मातशी देख लाय.

(वावराडी भितर वता)

चेडो : आवयकडसून अुतर मेळटकूच आमचे कांता महाशय फाटी रावता ? अेक दीस म्हाका देख लावन जाग्यार हाडपाचें कांतान थरयलें.

(कांता आनी चेडयाची वाटेर गांठभेट जाता.)

कांता : आयक रे.

चेडो : केन्नाच्यो जाय ?

कांता : कितें ?
चेडो : खंयच्या खेळाच्यो जाय ?
कांता : म्हाका तुज्यो ब्लॅकांतल्यो सिनेमाच्यो तिकेटी नाकां.
चेडो : तशें जाल्यार लायनींत रावून काड.
कांता : हांव सिनेमाची गजाल करीना.
चेडो : मागीर कसली गजाल करता ?
कांता : तुजी.
चेडो : म्हाजी कसली गजाल ?
कांता : तुजी आवय सांगता --
चेडो : कोणांक ?
कांता : म्हाकां.
चेडो : तुकां ? अशें, बरें आसा कितें सांगता ?
कांता : तूं कसलो धंदो करीना.
चेडो : तुजो धंदो कसलो ?
कांता : मोटारसायकलीन भाडी मारपाचो.
चेडो : तुज्या परस हांव चड जोडटां.
कांता : तेका धंदो म्हणीना. हांव तुका बुद्ध दितां.
चेडो : विकती ?
कांता : आयकतलो काय फकाणां करतलो ?
चेडो : सांग. आयकतां.
कांता : तूं बँकेचें रीण काडून मोटरसायकल घे आनी कुर्रीतां मांर. बँकेचो मॅनेजर म्हाजे वळखीचों आसा.
चेडो : मोटरसायकल घेवन भाडी मारुं. ? आनी दनपारां खंयचे शाळेमुखार कोणाल्या चेडवाची वाट पळयत रांवू ? जोडलेली जोड कशी वाटेक लांव. सांग. सांग बेगीन सांग. वयता कित्याक रे ? सांग मरे. सांग. (मस्कऱ्यो मारुन हांसता कांता कडसता) आनी एक दिस किते जालें ! कांता महाशय एक सागवाद घेवन येयले. ध्यानी-मनी नासताना तेची गांठ शालीकडेन पडपाची सोडून वावराडेकडेन पडली. (कांता शालीक मेळपाचे उमेदीन येता. ताका वावराडी भेटटा.)
वावराडी : हें कितें हाडलां रे ?
कांता : काय न्हू. शालीक कपडे ते.
वावराडी : पळोवया, कसले कपडे ? (कागद सोडून उसोवन पळयता.)
वावराडी : शी ! असले बायलांचे कपडे दादल्या मनशान हाडप ?

कसली लज भीड !

कांता : (चांचरत) शालीकडेन दी ते. हांव वयता आं. (बेगोबेग वता. मोटरसायकल गेल्ल्याचो आवाज)

वावराडी : (साद घालीत) शाल्ली, हांगा यो पळोवया.

शाली : थंयसून सांग तूं. आयकतां.

वावराडी : ह्या कांताचें चड जालें, वगी कित्याक ? उलय मगो.

शाली : सांग तूं आयकतां हांव.

वावराडी : तुकां कसल्यो कसल्यो भेटी हाडटा पळय मगो

शाली : (भायर येत) आनी तुमकां हाडीना ?

वावराडी : आनींक चड दाटी नाकां.

शाली : खाताना कळ नासलें ?

वावराडी : आतां कळ्ळे न्हू ?

शाली : आतां कळून उपेग कितें ?

वावराडी : कितें उलयता गो तूं ?

शाली : हांव कांता बरोबर लगीन जातलें.

वावराडी : कसलें पिशें लागलां गो तूका ?

शाली : मोगाचें पिशें.

वावराडी : चुट्टी लाय तुज्या मोगाक. शिक्षण अर्दार सोडून लग्न जांवक हारेलां ?

शाली : लग्न जावनूय शिकपाक मेळटा?

वावराडी : लग्न जावन शिकतलें ? पोरांक हांडीर मारुन शाळेंत वयतलें दिसता.

शाली : भुरगीं बेगीन जावपाक दिवचे ना.

वावराडी : हुंवाळ्ळें तूं त्या मोटरसायकलवाल्याकडेन लगीन जावपाक सोदता ?

शाली : तूं अेका बेबद्याकडेन लगीन जालीना ? तेच्यापरस तो हजारपटीन बरो.

वावराडी : आगो, म्हाज्या संवसाराक अेक पडली पाड. तुज्या संवसाराचो इबाड जांवचो न्हू देखून तुका शिटकायतां. त्या भिकाड्ड्याचो नाद सोड. बरे शीक तुका बरें थळ मेळटलें.

शाली : आतां तें शक्य ना. आमचो मोग जालां.

वावराडी : चुड्टी लाय तुज्या मोगाक मोग जाला खंय. तुज्या मोगाक रात्तींत हुल्पावपाक आसा हांव.

शाली : हांव पळय आं, म्हाका वायट दिसता अशें कायचे काय अभद्र उलोंव नाका.

वावराडी : अभद्र उलोंव नाका ? त्या मवाल्याकडेन लगीन जावपाक सोदता ?

शाली : हांव, तेजेकडेन लगीन जाता म्हणोन तो मवाली ? तेचेकडलें खाताना बरो तेका देव देव करतालीं.

वावराडी : हुंवाळो तो. तुकां सांगून दवरतां. परत तेचेवांगडा लगीन जावपाचें उतर काडशी जाल्यार तुकां मागीलदारां फोण काडून पुरतलें.

शाली : तूं फोण खणपाची कास्तीक घेंव नाकां

वावराडी : शाली. (फाटोफाट वता.)

चेडो : जाल्लें कितें, शालीच्या कानांत मोगाचें वारेंभल्लेलें आनी आमचे कांताबाब तर वाऱ्याचेर सुंवार जावपी. अेक दीस कांता आनी शाली दोगांय मोटरसायकलीर बसली आनी मागीर उंच –– (मोटरसायकलीचो आवाज)
कितली स्पीड म्हण्टा तेचो सुमार ना. कारण दोगांय पळोन वयताली न्हूं. कोणांक कळनासताना. घरांत लगनांक विरोध जातकूच आंकवार चेडो–चेडवां अशींच पळोवन वयता खंय. हचा जोडच्यानूय अशीच पळ काडली. पूण नशीब फाल्स. म्हणजे निमाणे बोल नशीबाकूच. वाऱ्यांचेर सुंवार जातकूच मागीर रस्त्याच्या खांची–खळयांची, मुखावयल्यान येवपी मोटारांची आनी चडणां–मोडणांची पर्वा कोणांक ? परिणाम ? ढयं ––– (अपघात जाल्ल्याचो आवाज) आमचे भाषेंत सांगतलो जाल्यार सॉलीड अॅक्सीडंट. अॅक्सीडंट हांका आनी मनस्ताप वावराडेक. आमका कित्याक म्हणूं ? मनस्ताप वावराडेकूच. तिचेच मन थतरवितर (वावराडी ताईबायगेर आयदनां घांसतां. घांसतां घांसतां आयदनां पाडिल्ल्याचो आवाज)

ताईबाय : आगो, आयजूय फोडटा आयदनां ?

वावराडी : निसल्लीं ताईबाय.

ताईबाय : लायली मगो वाट ?

वावराडी : हचा कपाचो कान तुटलो आनी गलास मातसो वाजलोसो दिसता.

ताईबाय : कान तुटलो आनी गलास वाजलो. दोनूय नग पेड्डचार. आमगेर फुटकी आयदनां वापरीना आमी.

वावराडी : चूक जाली ताईबाय. चुकीक दोळे नासता न्हू ?

ताईबाय : चुकीक दोळे नासता ? पुण तुकां दोळे आसा काय ना ?

वावराडी : ते आसा म्हण हें कितें कितें घडटा-तें पळयतां. (हुंडकेता)
ताईबाय : आगो, अशें अकस्मात रडपाक कितें जालें ? तुजे धुवेविशीं आयकलां तें खरें ?
वावराडी : नाकाक चुनो लायलो तेणें. आपणाल्या आनी आमच्यायबी.
ताईबाय : खंय वताली खंय ती ?
वावराडी : फोणांत. खंय वाडयेक वयताली खंय.
ताईबाय : मोटारसायकलीर आनी बसून ?
वावराडी : पळोन वयतालीं. हांयें लगनांक हयकार दिलोना म्हण पळोन वाडयेक वचोन लग्न जावपाक सोदी.
ताईबाय : भुजलें लग्न.
वावराडी : सुमाराचें भुजलें ना. तेजो अेक दोकोच मोडलो.
ताईबाय : कोणाचो ?
वावराडी : आनी कोणाचो ? त्या मवाल्याचो. कांताचो.
ताईबाय : तुगेले धुवेक कांय जांवना मगे ?
वावराडी : थंयच मेल्यार सुट्टलें आसलें. तेंवूय आनी हांवूयबी.
ताईबाय : कितें जालें तर ?
वावराडी : (रडत) पोराचो दावो दोळोच फुटलो. तो पांगळो आनी हें कुड्डें.
ताईबाय : शी बाये ! सगळी लज काडली गे तुगेले धुवेन. हांव आदीं समजल्ली, तुगेलें चेडूं बऱ्या गुणाचें म्हणून. तुकां फावना तेन्ना ताकाच आमगेर कामांक धाड म्हण तुकां सांगिल्लें तें तेचखातीर. आमच्या कल्पनाचे व्हिस्तीद हावें कितले लक्तुबायेन दिल्ले ताका, मात तरी धेक उरचो म्हणून. पुण आवयचेर सुद्धा पडपी पोर थल्लें. सामकी लज काडली. तुगेल्या चेडवा बराबरचेंच म्हगेलें चली – कल्पना. पुण तुगेल्या चेडवाकडेन सर जाता ? केन्ना कसलें वायट पावल उबाल्ल्यार जाय तसलो सोपूत. कल्पना आनी कपील दोगांय भाव भयणां अेकमेकाचे देखीन चलतात हांचीय तशीच नदर आसा भुरग्यांचेर. आनीं सगळें ठाकठीक चलपाक म्हाका थोडे कश्ट पडना ? आदर्श घरकान्न म्हण म्हाका ती धाल बेठी मेळूं ना. तुज्या बांये संवसाराक अनंत बुराक. खंयचे खंयचे म्हण शिवतली ? घोवाचें सुख ना तुज्या नशिबान. घोव तसलो. पुत दुसरो. धुव ताच्या फुडली.
वावराडी : ताईबाय, हें सगळें सोसूं नजों जाता आनी जीव दियनसो

दिसता.

ताईबाय : आनींक कितलीं भुरगीं आसा गो तुकां ?

वावराडी : हीं दोगांय विद्‌वाटी सोडून आनींक स जाणां आसा. पुण तीं तरी बरीं जातलीं कित्या वयल्यान. हेंच्या सारके तेणींय दिये लायले जाल्यार.

ताईबाय : आतां ह्या तुगेल्या अेका दोळयान कुड्‌डे जाल्ल्या चेडवाचें कितें करतलें तूं ?

वावराडी : आनीक कितें करतलें ? आतां त्या कुड्‌डयाक आनींक कोण व्हरतलो ? आतां त्या कुड्‌डयाचें आनी त्या थोटयाचें लगीन लावन वडयतां. (शेनाय वाजता. लग्नाचो बोवाळ.)

चेडो : लगीन जालें. कांतान कुंटत कुंटत शालीक माळ घातली आनी शालीन सांसपीत सांसपीत कांताक माळ घातली. आनी वावराडेच्या गळयांत आनीक अेक जोडयेचो भार पडलो. तिगेल्या संवसाराचेर कांता आनी शाली बेंनुल्ल कशीं घांस मारुन रावली. समजलेंना ? म्हणजे आतां मोडको कांता मोटरसायकल कशी चलयतलो ? आनी चलयतलो जाल्यार ती उरुकूंय नासली. कांता पडलो घरांत. कोणाल्या ? दयडि-याक आपणालें म्हणून घरुच नासलें. म्हण्टकूच घरजांवय जालो. वावराडेक घरजांवय विकतोच पडलो. शालीय घरांत कसलें काम करतलें ? अेक दोळो फुटूनूय तेका आजून लज दिसता. दोगांय घरांत आसतां बरे बरे उद्‌देग करतात.
(कांता आनी शाली लीपचोरयां उलयतात)

कांता : तुजी आवय, पैशे खंय दवरता ?

शाली : त्या कत्रेलांत.

कांता : आतां थंय दवरीना ती. फाटीं दोन खेपे हांयें थंयचे काडले. आतां खंयतरी दुसरेकडेन दवरता.

शाली : सांजे न्हिदेचें सवंग घेवन पळोवचें पडले.

कांता : फाल्या कोणांकूय नागोवन हाडूच.

शाली : तिचेशिवाय आनींक कोणांक नागयतलीं ?
(दोगांय हांगांथंय जळपेत वता. वावराडी खेपीत येता.)

वावराडी : म्हाका नागयात. सगळी मेळोन म्हाका नागयात. हांव सर्णार चडलें तरी लेगीत म्हाजी किरवट सांसपुवपाक आसा तुमी. खंयच्या जल्माचो दावो सादून म्हाका पीट्‌टा काय म्हण्टां. आतां अेकदीस जीव दीतां, आनी मेकळे जातां.

मागीर कोणांक खाता तें खायात." (आपले भितर) त्या बिल्डींगेतल्या ताईबायचो संवसार काय बरो चलता. कसलें म्हणोन तिका दु:ख ना. आनी म्हाज्या मुखार दु:खा बगर अेक खीण ना. (रडत वता.)

चेडो : प्रेक्षकांनो, बल्सांतलो करकरीत लेंसं दोळयांच्या सुक्या पातकोड्यांक लावन मातशे वावराडेच्या दु:खांत वांटेकार जायात. जाले ? आतां फुडें या. हांयें तुमकां आदीं आमची कथा सिनेमावरी रंगोवन सांगपाचें उतर दिल्ले न्हू ? पुण आतां हीं कथा अशीच अस्कळ विस्कळ व्हांवपाक लागली. आमच्या कांता शालीच्या प्रेमाचो सीन तर खुबूच वगत चल्लो न्हू ? आतां गाडी रूळार हाडूंया. तर अेक वावराडी दु:खी मनीस. तिच्या दु:खाचें अेक कारण हांव, आनी दुसरे कारण शाली आनी कांता, तिसरेंकारण आमचो पूज्य रचणार! म्हणजे आमकां ज्या भाग्यवंतान ह्या संवसारांत जल्मांक घातले तो. आमचो बापूय. तेचें नांव कित्याक सांग? आनी तुमकां खरें सागूं तेच्या नांवाचो म्हाकाय उगडास ना. तो आमकां जल्मांक लागलेलो तितलोच. मागीर मुखार तो आनी तेजें नांवूय आमकां खंयच लागोना. घरांतूय तेजेकडेन आमचो व्हडलोसो संबंद येना. तो घरांत केन्ना येता आनी भायर केन्ना वयता तें तेजो तोच जाणां. तेजी वळख थोडया उतरांनी करपाची जाल्यार तो म्हणजे सोन्याचें बल्ल सोन्याचे बल्ल तुमी पळयलां न्हू ? भितर सोरो आसल्यारूय आमी तेका सोन्याचेंच बल्ल म्हण्टात आनी भितर सोरो नासल्यारूय तें सोन्याचें बल्ल. तशेंच आमच्या पूज्य पिताजींचे सोरो पिल्यार तो बेबदया सारखो दिसतलो आनी सोरो पिनाजाल्यारूय तो तसोच दिसतलो. म्हण्टकूच तो आतां सोरो पिता केन्ना आनी पिना केन्ना हें कशें वळखुपाचें. कितेंय आसूं वावराडेच्या दु:खाचें तो कारण नंबर तीन———

वावराडेलो घोव : (वावराडेचो घोव लकत लकत येता.) आं ? णंबर ठ्रि? हांव णंबर वण. णंबर वण, टू, ठ्रि. ढिशांव. फो ग बातेरी. सत्य मेव जयते ! सत्तेचोच विजय जातलो. विजयाचीच सत्ता जातली. हांव म्हण्टा तशें तशें जातलें. आत्याचें पतें जातलें. जय जय रघुवीर समर्थ ! बारा धंय वीसाशें. अठरा णवें आठोरदशें. बारा धंय विसाशें, ढीश्यांव ढीश्यांव

फोग बातेरी. फोग बातेरी(बडबडत वता.)

चेडो : प्रेक्षकांनो हो कितें उलयता न्हू, तेज्या तोंडातल्यान जें कितें भायर पडटा तेजो किते ताळतंत्र लागता तुमकां ? म्हाका काय लागना जेन्ना तेज्या उलोवण्याचो ताळतंत्र लागना तेन्ना तो बरो आसा म्हण समजुपाचो. सोरो पितकूच केन्ना केन्ना तो कळसारखें उलयता. (चेडयाचोबापूय सामको थंड जावन येता आनी चेडयाक हडकिता.)

बापूय : कोण चेडो रे ?

चेडो : कसो आसा ?

बापूय : कंबरानूच कितें जाता मरे ?

चेडो : सोरो रगड. भितल्ल्यान.

बापूय : 'कितें' आसा तुजेकडेन ?

चेडो : कितें ?

बापूय : ताळोसो सुकला मरे.

चेडो : कळशान उदक आसा.

बापूय : खंय रे कळसो ?

चेडो : कित्याक ? परत व्हरोन घाणांक दवरता ? कळशाक हात लायशी जाल्यार ती खातली तुकां.

बापूय : तूं व्हरोन दवर.

चेडो : तुज्यो बुद्धी नाकां म्हाकां. हांव चल्लो.

बापूय : आयक रे आरे चेडयां, आरे आरे आयकरे.

चेडो : म्हाका टायम ना. (चेडो वता)

बापूय : (बापूय धुवेक हडकिता) बाय शाली, कितें करता गो ?

शाली : कांय ना.

बापूय : तुजेकडेन, कितेंय आसल्यार दी पळोवया.

शाली : हांव खंय जोडपाक वयता ?

बापूय : तुज्या, घोवाच्या बल्सान कितेंय आसल्यार पळय.

शाली : पांय मोडलो ते दिसूच तेज्या बल्साक बुराक पडलो. तो दिसान दीस व्हडलो जायत आसा.

बापूय : कोण गो ?

शाली : बल्साचो बुराक. आतां आनी म्हाका दीस गेल्यात ! हातीन अेक पैसो ना.

बापूय : तुजी आवय खंय गेल्या गो ?

शाली : वावराडेपण करुंक.

बापूय : येवपाची जाली ?

शाली : कळाव आसा.
बापूय : बरें आसा. (ताकतिकेन भितर वता कळशांतले उदक रकयता आनी रितो कळसो घेवन पळटा.)
चेडो : (येत) आमचो पिताजी भल्लेलो कळसो रितो करुन घेवन गेलो. खंय गेलो ? कळसो पितुळचो. अर्द मोलाक लाटलो. विचारपाचे आनी कितें ? "ढिशांव, ढिशांव, फोग बातेरी, सत्य मेव जयते ! सत्तेचोच विजय जातलो जय जय रघुविर समर्थ! बारा धंय विसाशें अठरा णवें आठोर धाशें"
चेडो : वावराडी कितें म्हण सोंसतली ? कसली तरी मेदा आसा काय ना ? कुंकमाचो आदार जालो म्हण कितें जालें ? कुकुम विकत हाडपा इतलो तरी घोवाचो आदार नाकां ? घोवाक कांडी कसो झरोवन तरी कपलाक लावपाक मेळटा ? घोवापरीं घोव सतायता. भुरग्यांपरी भुरगी.
वावराडी : (वावराडी आकांताच्या वितरागान भायर येता) आयज जीव दितां हांव जीव. आनींक कशेंच सोसूंक जायना. अेक खीणभरुय सोंसपाक जायना. जीव दिले बगर तुमी जाग्यार येवपाचें ना. आत्तां जीव दितां वचोन मागीर म्हाज्या मढचार रडपाक येयात. बिर्मत फुट्टली तुमकां जीव दितां आयज कशेंच वांचचेना. जीवूच दितां. हय. जीवूच दितां. (रडत रडत पयस वता)
चेडो : तेंवटेन वावराडी जीव दिवपाक धांवली आंनी हेंवटेन घरांत धावपळ. सगळ्याक धावपळ. (आयदना, डबे पाडिल्ल्याचो आवाज) कित्याक धांवपळ ? वावराडेक आडावपाक ? न्हू. वावराडेचों भांगरां शिंगरां आनी दुडू आडको खंय आसा तो सोदपाक. कोण डबे उगडटा. कोण ट्रंक फोडटा कोण जुनेरां उस्तिता. कोणाच्या हाताक कांय ना. मागीर मात तेंका वावराडेचो खरो हुस्को जालो. म्हणजे तिणें फाटल्यान कांयच दवरुंना आनी ती मेली जाल्यार पोसतलो कोण ? वावराडेन खरोच जीव दिलो कांय ? घडलें कितें जाणां ? (फाटल्यान वावराडेची उतरां – 'आयज कशेंच वांचना. जीवूच दितां. जीवूच दितां.')जीव दिवपाक भायर सल्लेली वावराडी बरीच फांस वयताली. इतल्यान वाटेर तिका उगडास जालो. (वावराडी चलतां चलतां थारता.)
वावराडी : आरे, आयज ताईबायलीं आयदनां घांसपाचीं थंयच उल्लीं. आसूं. पयलीं जीव दिवन येतां मागीरूच घांसची (उगडास

जावन) आं ?

चेडो : आनी वावराडी तशीच ताईबायगेर भितर सल्ली. अेका झटक्यांत आयदनां घांसतलीं आनी मागीर वचून जीव दितलीं अशें थारावन. ताईबायगेर भितर सर जाल्यार – (ताईबाय हुंडक्या हुंडक्यांनी रडटा.)

वावराडी : ताईबाय, रडपाक कितें जालें ?

ताईबाय : (अदीक रडटा)

वावराडी : ताईबाय.

ताईबाय : म्हज्या कल्पनान फटयलें गे म्हाका.

वावराडी : कितें जालें कल्पना बायक ?

ताईबाय : तें कोणां जातभायल्याचो हात धरुन पळून गेलें.

वावराडी : मोटरसायकलीन पळोन गेल्यार येतलीं परत.

ताईबाय : भायले भायर लग्न केलें खंय ताणी.

वावराडी : आगे – बाये !

ताईबाय : परके जातचो. आनी उणे जातचो.

वावराडी : शी. – कपील बाबाचे लक्ष नासले तर ताचेर.

ताईबाय : तो ताचेफुडलो. तो कोणां लिपस्टीकवाल्या बावल्याक घेवन नाचता न्हंय.

वावराडी : आनी तुगेलो घरकार ?

ताईबाय : ताचें लक्ष खंय आसा संवसाराचेर ? ती म्हूगेली सवत आसा न्हंय थंय. सर्विसेच्या निमतान फिरतेर म्हण वता आनी आठ आठ दिस तिका दवल्ल्या थंय तिगेर पडटा. (रडटा)

वावराडी : ताईबाय, ती धाल खंय ?

ताईबाय : चुट्टी लाय ते धालीक. वडयली व्हरुन कोयराच्या पिपांत. (वावराडेचें मुख उजळटा)

चेडो : आनी मंडळी, वावराडेन जीव दिवपाचो बेत मरसर रद्द केलो. वावराडी जगपाक शिकली. ही कथा आनींक लांबय-नासताना हे कथेचें तात्पर्य तुमकां सांगतां. तशें सांगना जाल्यार तो तुमकां सिनेमा कसो दिसचोना. तर तात्पर्य अशें – तुमच्या सुखाची तुळा दुस-याच्या सुखाकडेन जर करशात जाल्यार तुमी दुःखी आसा म्हणपाचें तुमकां दिसतलें. पुण तुमच्या दुःखाची तुळा जर तुमी दुसऱ्याच्या दुःखाकडेन करशात जाल्यार तुमी कितलेशेच सुखी आसा म्हणपाचें तुमकां कळटलें –– वावराचे वावराडेभशेन (प्रेक्षकांक) कशें लागलें ?

भटमाम
व्होनीबाय
प्रकाश
अंता
मीरा
बाप्पा

---

# बाप्पा खो ऽ ऽ गया

---

(चवथीचो बोवाळ, फोगोटचांचो आवाज. – आरती–
फुगडचो......)

भटमाम : आरे ए बाप्पा, न्हाला धुला काय ना ? उत्तर पूजेस बसतोस मरे ? कांय पांच दीस गणपती ठेवायचा हाय ? बेगीन ये बरे. मज आनीक पंचवीस उत्तर पूजा करावयाच्या आहेत. अगे, ये व्होनीबाय, पूजेचें सामान हाता-लागी कर.

व्होनीबाय : (भितल्ल्यान) भटमाम, आयले तुमी ? कशे आसा?

भटमाम : आगे, चौकशो करुन घ्यावयास कोणास वेळ हाय ? उत्तर पूजेच्या सामानाची वेवस्था कर.

व्होनीबाय : करतां आं करतां. किदें किदें जाय तें ?

भटमाम : दर वर्षी चतुर्थी साजरी करता आनी प्रत्येक वेळी मज विचारता. चवथीचें लक्षांत तरी काय अुरते तुमच्या ? पयलीं दोन पाट मांड.

व्होनीबाय : हय मांडटां.

भटमाम : मग गणेश पूजा दवर. कापूस, उजवाती, कापूर अष्टगंध, काजळ अेकारत, पंचारत, धुपारणे, हरयाळी, बेल, पत्री, फुलां, नैवेद्य....

व्होनीबाय : हाडटा आं. पळयात – फुलां आनी पत्री ह्या पाटल्यांत आसात. हीं आरतीचीं आयदनां. हें गंधाचें आयदन. जालें

मूं ? आतां करात तुमची अुत्तर पूजा.

भटमाम : अुत्तर पूजा म्हजी न्हे, गणपतीची.

व्होनीबाय : तीच ती. करा सुरवात. सगळें सामान हाडलें.

भटमाम : सगळें आणलें पुण मुख्य तेंच आणलें ना.

व्होनीबाय : मुख्य आनी कसलें भटमाम ?

भटमाम : पुजारी कोठें ? त्यास लवकर पकडून आण. कोठें गेला हा बाप्पा ?

व्होनीबाय : आरेच्या हे खंय तर ?

भटमाम : मज काय विचारतेस ? मी काय तुज्या घोवास किरवटीस लावन फिरतो ?

व्होनीबाय : प्रकाश, ये पका,
(प्रकाश येता.)

प्रकाश : कितें आई ? आई हो माराणूच पेटना मगे.

व्होनीबाय : पेटना जाल्यार वडय चुलींत. आदीं तुजो बाप्पा खंय आसा तो पळय. शेजाऱ्यागेर वचून पळय.

प्रकाश : बरें आई.
(प्रकाश वचपाक वता.)

व्होनीबाय : आनी पका, माराण खऱ्यांनीच रांन्नीत वडयशीत. आदींच अवचीन्न तूं. भटमाम मातशें बसात आं.

भटमाम : बसात – बसपाक उद्यो येतों. चवथीक आनी पंचमीक भट फक्त पुजेच्या पाटार बसता. आनीक कोठें बसपाक त्यास फुरसत नसते. मी चाललों दुसऱ्यांच्या पूजा करून निमाणी येतों.

व्होनीबाय : अशें कितें करता ? येतले न्हय ते ! हो पळय आयलो पका.

भटमाम : मज पका बिका कोण नको. पुजारी हवा
(प्रकाश खरशेत येता.)

प्रकाश : आई, आई,

व्होनीबाय : आरे, खंय आसात ते ?

प्रकाश : आई, बाप्पा शेजाऱ्यागेर कोणागेरच ना.

व्होनीबाय : शी बाये. जुस्त पुजेच्या वेळार घरांतल्यान वचपाक हांका कसली बुद्ध येवजली ?

भटमाम : पुण घरांतल्यान ते नक्की भायर गेल्यात मू ?

व्होनीबाय : तुमी आनी कसलीं फकाणां करतात भटमाम ? घरांतल्यान वचूंना जाल्यार, हावें कितें पाटल्यापोंदा धांपल्या तांकां ?

कांय माळचार लिपयल्या ?

भटमाम : तें मज कसें ठावें ? मी चाललों.

व्होनीबाय : भटमाम, अशें कितें करतात ? मातशे रावात मू – ते रोकडे येतले पका, चल रे – वयल्या वाडचार तांकां सोदून यो. भटमाम म्हणचे तुमचेखातीर हांगां तिश्टता.

प्रकाश : बरें, बरें. धांवत वतां आनी पळत येतां.
(धांवत वतना वाटेर अंता मेळटा.)

अंता : आरे पका, खंय धांवता रे ?

प्रकाश : बाप्पाक सोदूंक.

अंता : बाप्पाक सोदूंक ?

प्रकाश : हय. हमारा बाप्पा खो ... गया (म्हणत म्हणत वता.)

अंता : व्होनीबाय कसलो बोवाळ गे ?
(मीरा येता.)

मीरा : आगे व्होनीबाय, कितें घडलां गे ? पका हांगां थंय सो धांवता कित्याक ?

अंता : तूं आनी आयली ? तुज्यो फुगडचो घालून सोंपल्यो ?

मीरा : येन्ना खंय सोंपता ? व्होनीबायक पळोवंक आयिल्ली, फुगडचो घालपाक.

कचे बाये कचे वल्लीभर कचे
आमच्या गणपती भांगराचे मोचे
फु ....... फु ....... फु .......

अंता : आगे, व्होनीबायचो आदीं बोचो पळय आनी मागीर तुजे कचे घाल.

मीरा : कितें जालां तर तिच्या बोच्याक ?

अंता : बाप्पा खो गया.

मीरा : म्हणजे ओ ?

अंता : बाप्पा शेणला.

मीरा : आगे बाये, केन्नाच्यान गे ?

व्होनीबाय : मीराबाय, आतां केन्नाच्यान म्हण कशें सांगू ? दनपार मेरेन तांकां पळेले. आतां अुत्तर पूजेक येवन भट बसला म्हळ्यार हांचोच पत्तो ना.

मीरा : आगे, पुण तुका सांगलेबगर तुजो घोव नदरेआड जालोच कसो ?

व्होनीबाय : आज परब न्हय ? सणा–परबे दिसा खंय कोणाक राखतली ? आनी राखपाक तें कितें कुकुलें बाळ ?

मीरा : चुकता तूं व्होनीबाय. सण आनी- परब आसली म्हण घोवाक असो सदळ सोडूं येता ? आगे, घोव आनी गोरूं सारकें. दोगांकूय घराची नसाय. एकदां भायली चक लागली जाल्यार गोरवां दार्यो सोडून वचनात ? नाजाल्यार म्हज्या घोवाक पळय गे. कसो मुठींत आंवळून धल्ला.

अंता : आवय्स. पुरो गे. मूठ आंवळू नाकां. भेंड मोडत म्हजें.

मीरा : दुसरे फावट म्हजी सांगणी नीट मतींत धर व्होनीबाय.

व्होनीबाय : धरतां गे. पुण आतां हे पयलीं घरा येवंदी.

भटमाम : पण मी किती म्हणून थांबू येथे ?

अंता : राव गा भटमाम. खंय धांवता ? तुका कितें तार चुकता?

भटमाम : तार चुकल्यार कोताक येतली ... दक्षणा चुकता ताचें कितें ? ही दक्षणा सद्दां कोण दिता ? अशी चवथ एकदांच येता.

मीरा : भटमाम, आनी बाप्पा तरी परत परत खंय शेणटा ? आयुष्यांत असो पयलेंच खेप शेणला. न्हय ओ ?

अंता : हय तर. तूं फुगडयांक गेल्यार बरी न्हय ?

मीरा : पुण म्हज्यावांगडा व्होनीबाय सोडून आनीक कोण फुगडी घालतली ? (फुगडी म्हणटा)

कचेबाये कचे वल्लीभर कचे
आमच्या गणपती भांगराचे मोचे
फु....फु...फु...

अंता : पुरो कर गे. हांगा बाप्पा शेणला आनी तूं कितें कांय म्हळयार फुगडी घालता.

मीरा : चवथीक फुगडी घालना जाल्यार कितें दिवाळेक घालपाची?

अंता : (ल्हवूच) चवथीक आनी म्हणून खास कित्याक ? मदीं मदीं घालताच न्हय तूं फुगडी ?

मीरा : (धेंगसून) कितें म्हळें ?

अंता : आगे मातशी बाप्पाचे वासपुशेक लाग.

मीरा : व्होनीबाय, असो अकस्मात खंय गेलो गे बाप्पा ?

व्होनीबाय : आतां कितें म्हणून सांगू ? त्या गणपतीकूच सगळी खबर.

मीरा : मदींच गणपतीक कित्याक भरशिता ?

व्होनीबाय : मागीर आनीक कितें करुं ?

अंता : व्होनीबाय, बेठो आपलो दुबाव म्हण विचारतां.

व्होनीबाय : कितें तें ?

अंता : तुमचे मदीं कितें तंटो बिंटो अुपरासूंक नासलो मगे ? ना, म्हणजे – परबेच्या दिसा – भल्लेल्या घरांतल्यान वचप म्हळ्यार कशेशेंच दिसता –

मीरा : हय गे. काल मोठ मोठ्यान बोवाळसो आयकूंक येतालो तुमगेर.

व्होनीबाय : केन्ना ?

मीरा : केन्ना म्हळ्यार दनपारां

व्होनीबाय : दनपारां आरतीचो बोवाळ.

मीरा : तशें जाल्यार सांजवेळा दिसता.

व्होनीबाय : सांजवेळा – फुगड्यांचो बोवाळ.

मीरा : रातचो ?

व्होनीबाय : (वाजेवन) रातची सपनांत मात झगडल्यार जायत.

अंता : आज जेवणाकडेन बीन कितें घडिल्लें ?

मीरा : सारको जेविल्लो मगे तरी बाप्पा ?

व्होनीबाय : जेविल्ले. पुण तांचें जेवण तें कसलें ? धाएक पातोळ्यो दोन वाडगे पायस, थोडी तवसळी, पायसाअितलेंच मणगणे, तिनेक फावट रोस, तितल्योच मुगाच्यो गांठी, घोसाळ्याची भाजी आवडटा म्हण ती मात चार पांच फांवटीं मागून खाली. म्हसंगाचीं भाजी ना म्हळ्यार खुबूच खाली. पुण ती दातांक लागता ? आनी सदच्चे अितलें शीत जेवले. बरे सूरय तांदूळ म्हण दोन घांस चड. आनी तांबयोभर अुदक तें तांचें थल्लेलें आसा. हाचे भायर चड कांय खावंक ना गे ताणी.

अंता : अितलें सादें जेवन, तो सादेपणी सुट्टा ? व्होनीबायच्या हातचें जेवण तें. बाप्पाक सालवार केल्यार तें अेका गणपतीनूच

मीरा : तुमी कितें फुतफुततात ?

अंता : तुगेल्यो फुगड्यो पाठ करतां.

मीरा : तुमकां फुगड्यो घालपाच्यो आसल्यार, मागीर दुर्भाटा चलात. थंय खंय दादले घालतात फुगड्यो. आतां पयलीं बाप्पाक सोदून काडात.

व्होनीबाय : शी बाये, कितें म्हणून करूं आतां ?
(प्रकाश खरशेत खरशेत येता.)

प्रकाश : आई – आई.....

मीरा : पका आयलो.

प्रकाश : आई, बाप्पा – बाप्पा ...

व्होनीबाय : खंय आशिल्लो ? दत्तारामागेर ?

प्रकाश : ना.

व्होनीबाय : मागीर गुरूगेर ?

प्रकाश : ना. बाप्पा वयल्या वाडचार खंयच ना.

मीरा : मागीर हें सांगपाक अितलो धांवट कित्याक येवंक जाय आसलो ?

भटमाम : आतां मात खऱ्यांनीच मी चाललों

व्होनीबाय : रावात हो भटमाम – येतले.

भटमाम : येतले येतले म्हण कितें मंन्यासारकी वाट पळोवप ताची?

मीरा : भटमाम मातसो सुशेग घेयात.

भटमाम : चवथ, पंचमीक आमी फक्त दक्षणा घेतो. सुशेग नव्हे.

अंता : भटमाम, तूं सामकोच अडोवन दाखयता मगा.

भटमाम : आरे कित्याक दाखौंचो ना ? आज तुज बाजारांत दोन किल साखर मेळूं येत, पुण भट मेळपाक कठीण.

अंता : हय साखरेपरसूय भट म्हारग जाला ही खरी खबर.

भटमाम : सामकी खरी. पयशे आसल्यार साखर तरी ब्लॅकांत मिळते. भट ब्लॅकांत सुद्दां मेळायचा न्हाय. मी चालल्लो.

मीरा : व्होनीबाय, आडाय ताका. अेकदां गेल्यार मागीर मेळपाक कुस्तार.

व्होनीबाय : भटमाम, आनीक मातशे रावात. हांकां रोकडे सोदून हाडटां. पका, असोच आतां सकयल्या वाड्चार वचून बाप्पाक सोद पळोवयां.

प्रकाश : बरें बरें. वतां.
(प्रकाश वचपाक वता.)

मीरा : व्होनीबाय, मातसो अुगडास कर गे. ह्या दिसांनी बाप्पाक तुवें दुखोवंक बी नासलो मू ? आमच्या बायलांचें कितें, घोव आनी वावराडी सारकीच. दोगांकूय तोंडाक येता तें उलोवप.

व्होनीबाय : ना गे. सगळें व्यवस्थित घडटा आसतना हांव हांका कित्याक म्हण अुलयतलीं ?

अंता : व्होनीबाय, अंदू चवथीक चौगांय धुवांक वजीं धाडिल्लीं गे ?

मीरा : आं .... हांव तेंच विचारूंक सोदी.

व्होनीबाय : तातूंत विचारपाचें कितें ? वर्सा सणाचे चाली प्रमाण

सगळें जशाक तशें केल्लें.

अंता : तें जालेंच. पुण हे गजालीक बाप्पाची मान्यताय आसली काय म्हणटां.

व्होनीबाय : असले गजालीक घोवाची केन्ना मान्यताय आसता ? वज्याकडे हांचो सदांच नानारो. खंय हें म्हारग जालां, तें मेळना ; हावें म्हळें, त्यो जाणवायो म्हाका नाका. खंयसूनय पैदासून हाडात. काळयाबाजारांतल्यान हाडात नाजाल्यार धव्या बाजारांतल्यान हाडात, पुण वर्सा-सारक्यो धुवांगेर नेवऱ्यो, बेसन लाडू, रव्या लाडू, काजी लाडू, चकऱ्यो, म्हैसूरपाक, शेव चिवडो, तिखशे फोव, दुदपेणे, तशेंच वजेंभर फळफळावळ आनी माटोळेचें सामान पावपाकूच जाय. हावें सांगतकूच करतले कितें ? सगळें मोन्यानी हाडून दिलें

मीरा : आगे म्हजे बाये. ह्या सगळया जिनसांचीं नावां आयकून म्हाका घुंवळ येताशी जाली.

अंता : व्होनीबाय, तूं खूब भाग्यवान.

व्होनीबाय : कित्याक ?

अंता : आगे, बाप्पा म्हणून पंचमी दिसा ना जालो. म्हाका जर म्हजे बायलेन अितलो सतायिल्लो जाल्यार हांव चवथीच दिसा ना जावपाचो.

मीरा : तुमकां वतले जाल्यार आजुनूय कोणे आडावं ना आं.

व्होनीबाय : पुण हातूंत सतावपाचें कितें आसलें ? हावें कितें म्हाका खावपाक केल्लें सगळें ?

अंता : आगे, पुण तुवें बाप्पाचो जीव खालो ना ? असले म्हारगायेन तुवें अितले जिनस करून बाप्पाक व्हडल्या रीण कर्जांत अुडयलोना ? आनी अेक सांग गे, बाप्पान ती अितली साखर खंयच्यान हाडली तर ?

व्होनीबाय : तशीच धव्या काय काळया बाजारांतल्यान.

मीरा : व्होनीबाय, तुवें ह्या तुज्या बडेजावांनी बाप्पाक शेळो घाम आनी नाकयां शिंको काडल्या आसतल्यो.

अंता : आगे, आयच्या काळांत काळापरमाणे माथ्याक कुरपणे घालीना जाल्यार, हे म्हारगायेन बोडाक ओंस घालची पडटा. आनी त्याच खातीर घोव घर सोडून वता.

व्होनीबाय : आगे बाये, सायबिणी म्हजे. म्हणटकूच ह्याच खातीर हे घर सोडून गेले म्हणटा ? देवा गणराया, विघ्नहर्त्या,

मनांतले सगळे बिकल्प पयस करुन त्याची करुणा भाकात.

मीरा : म्हणजे कितें ओ ?

भटमाम : प्रार्थना करात शांत चित्तान.

मीरा : शांत चित्तान म्हणजे ओगी रावून ?

अंता : ह्य गे. उलयल्यार चित्त. वयर सकयंल जावचें ना ?

भटमाम : चला – बसात. मिटात दोळे. बाप्पा आयले बगर दोळे अुकते करुं नाकात. दोळे मदींच अुकते केले जाल्यार गणपतीचो कोप जायत. मिटात दोळे.

सगळीं : चला. दोळे धापा. दोळे धापा.

(शांतताय – बाप्पा घोरेता तो आवाज आयकूंक येता.)

मीरा : (ल्हवू) कोण घोरेता ओ ?

अंता : दोळे अुकते करुं नाका. गणपती घोरेता आसतलो. नाजाल्यार भटमाम.

(सगळयांनी दोळे धापल्यातशे पळोवन भटमाम ल्हवूच कडसता.)

व्होनीबाय : मीराबाय कोण घोरेता गे ?

मीरा : आमी कांय ना बाये.

व्होनीबाय : न्हय गे. हांचोच आवाज कसो दिसता.

मीरा : खंयच्यान येता आवाज़ ?

व्होनीबाय : असो, हांगां, हे खाटी पोंदच्यान.

मीरा : तशें जाल्यार अुगड दोळे.

व्होनीबाय : आगे म्हजे बाये. हे पळयात हांगां खाटी पोंदा न्हिदल्यात.

अंता : बाप्पा – बाप्पा अुठात. कितें आडायलां तुमी हें ? भायर सरात.

(बाप्पा दोळे चोळीत भायर सरता.)

मीरा : बाप्पा, येदें व्हडलें घर आसताना खाटी पोंदा शे न्हिदिल्ले ?

बाप्पा : (जांभयो दीत) आनीक मातशी न्हीद जाय आशिल्ली. बरी ऽऽ जिरवण जाली ना. आरे, आज अितलें जेवलों – पोट फुटपाकडेन पावलें. कसली सुस्ती माल्ली तर ! हांगां म्हळें असो अुकतड्यार न्हिदल्यार तुमी मदींच अुठोवन घालतले. कोणाची कटकट नाका देखून असो खाटीपोंदा कोणाक दिसना तसो न्हिदलों. तुमची सगळयांची जिरवण बरी जाली मूं ?

व्होनीबाय : जिरवण खंयची ? आमचो जीव खालो तुमी. मार

कुंभकर्णा सारके न्हिदल्यात. हो भटमाम येवन बसला केन्नाच्यान. आं ? भटमाम खंय ? आतां अुत्तरपूजा कोण करतलो ?

अंता : भट गेलो जाल्यार गणपतीक पांच दीस दवरात.

व्होनीबाय : नाका नाका. पांच दीस दवल्ल्यार पांचूय दीस हे अशेच सुस्ती मारीसर खावन खाटीपोंदा न्हिदतले.

प्रकाश : आई – आई – भटाक धरून हाडलो. आमकां दोळे धापूंक लावन आपूण हळूच कूस मारून पळटालो.

मीरा : जांव बाबा. अितलें तरी बरें काम केलें.

भटमाम : बाप्पा – गावला अेकदांचा. सगळी कृपा त्या गणरायाची. त्याणेच हे विघ्न पयस केलें. चला त्याचीच आरती गायात. (सगळे आरत म्हणटात – सुखकर्ता, दुखहर्ता – भट अुत्तर पूजेचें भटपण करता –)



भटमाम
गणी
गणिची बायल
फुलूबाय
गणपती
मूर्तिकार
पसरकार
आरती मास्तर
चलो
चली
राजकर्णी

---

# गणिलो गणपती

---

(मखरांत गणपती पुजला. भट गणपतीची पूजा सांगता, तशी गणी करता.)

भटमाम : केशवाय नमः– आचमन कर. माधवाय नमः गोंविदाय नमः दामोदराय नमः वल्लभेय नमः (धेंकर दिता)

गणी : (आचमन करताना अुस्तूरें वता)

भटमाम : काय हें गणी ? अरे तुजें चीत्त कोठें हाय ?

गणी : भटमाम अुस्तूरें गेलें.

भटमाम : अरे, आचमन करताना पाणी तोंडांत घ्यायचें तें तूं नाकांत कशें घेतलें ? (पूजा फुडें चालू–) श्री तुलसी दामोदराय नमः पायां पड. अरे, मज नव्हे. देवास पायां पड. (पुजा चालू) श्री उमामहेश्वर साहित श्री सिद्धी विनायक देवताभ्यो नमः यथाशक्ती यथामिलीतो–पचारद्रव्यै : षोडशोपचारपूज नम करिष्ये. अुदक सोड. महागणपते नमः ध्यायामी । गणेसपूजेक पांयां पड. (आड्डून) अरे, गणेसपूजा कोठें रे ?

गणी : (बायलेचेर तापत) आगे, गणेसपुजेचो नाल्ल खंय ?

बायल : (भितल्ल्यान) तो थंय मखराकडेन दवल्ला तो दिसना ? तुमकां अेक दिसना तें दिसना, त्या भटाचेय फुटले ?

भट : (पूजा चालू) आवाहामी अक्षतां समर्पयामि. अक्षता वडय. स्नानं समर्यपयामि. अक्षता वडय. अुदक फापुड. गंधपुष्पं

समर्पयामि.

गणी : (बायलेक) आगे फुलां खंय आसा?

बायल : थंय माथ्यावयर कुरपण्यांत आसा.

गणी : आनी गंध खंय ?

बायल : आतां हांव नेवऱ्याचें पीठ मस्तू कायं तुमचें गंध झरोवं ? (भटाचो पूजा चालू – मदीं मदीं धेंकर दिता) धूपं समर्पयामि. दीपं समर्पयामि. नैवेद्यं समर्पयामि. नमस्कारां समर्पयामि. मंत्रपुष्पं समर्पयामि. अुद्‌वासायमि. (पूजा सोंपता. भितर गणपतीच्यो आरती सुरु जाता. मास्तर भसाडचा आवाजांत आरत सुरु करता. अरतींच्या आवाजांत फोगोटयांचो आवाज भरसता. पयसुल्ल्यान गणीली चली "डिस्को दिवाने" वा "आप जैसा कोई मेरे जिंदगी में आए" वा तसलेंच कसले तरी डिस्को गीत गायता. अुपरांत त्याच गीताची रिकॉर्ड वाजता. त्याच आवाजांत फुगडेचो आवाज भरसता "कसली म्हारगाय गे सायबिणी, संसार कसो करचो आमी" तरा – तरांच्या आवाजान चवथीचें वातावरण तयार जाता. कांय वेळान गणी भायर येता. सुस्तेला. वडी काडटा.)

गणी : आगे, आयकलां ?

बायल : (भायर येत ) आतां आनीक कितें, खावपाचें अुल्लां ?

गणी : खायन बरो. पुण पोटांत जागो नाकां ? सुमाराभायर खावप जालें.

बायल : अधाशीच तुमी. चड त्रास जाता जाल्यार, मागीलदारा वचून ताळयांत बोट घालून वडयात सगळें.

गणी : आगे, ताळयांत बोट घालपा अितलो जागो आशिल्लो जाल्यार तितलें अेक केळें खावंचो नासलों ?

बायल : केळयाची साल पोटार रगडल्यार खंय, बरी जिरवण जाता.

गणी : बरीशी न्हीद काडटां.

बायल : जाय तितले न्हिदात, पुण पोरुच्या सारखें मात करुं नाकात.

गणी : कितें तें ?

बायल : वयल्यान तोंड घेवन कितें ते म्हण विचारतात ? पोरुं पंचमीदिसा मार असोच धोल सुजयलो आनी वचून खंय

तरी दिलें ताणून. आमोरेर भट उत्तरपुजेक पावलो जाल्यार तुमचो पत्तो ना. अेकवटेन भटाक आडायतां, दुसरे वटेन तुमकां सोदतां.

गणी : (हांसता) आगे, कोणाची कटकट नाका म्हण हांव कोणाक सांगनासतना खाटीपोंदा वचून न्हिदिल्लों.

बायल : निलाजरे जावन हांसतात; आनी तीं तुमची गजाल आतां जगजाहीर जाल्या. तुमकां खबर ना. तेन्नाच्यान लोक तुमचे असवडीं तुमकां खाटी पोंदचो गणी म्हण चाळयतात.

गणी : लोक आनी ओक सारखी. हांव मातसो आड पडटां. बद्द रातचो आरतीक अुठयल्यार पुरो.

बायल : खंय न्हिदतात ते सांगात.

गणी : हो हांगा गणपती मुखारुच न्हिदतां. गणपतीकूय राखतां.

बायल : आनी तें नक्की जालें मूं ?

गणी : कितें तें ?

बायल : देवाचें कार्यूय विसरता ? गणपती पांच दीस दवरपाचें म्हण हांव.

गणी : पांच दीस आनी दवरूया ? खर्चाचें कशें जातलें गे ?

बायल : पांच दिसांक व्हडलो कसलो खर्च? म्हारग जालें म्हण कितें जालें ? सगळें तर पसऱ्याचेर मेळटा.

फुलूबाय : (भितर फुगडी म्हणटा)
कसली म्हारगाय गे सायबिणी संसार कसो करचो आमी.

बायल : फुलूबाय फुगडचो घालूंक आयली. हांव वतां शेजाऱ्यांगेर. भूरगीं जळीमळी गेल्यांत. सांगलां तें पांच दिसांचे मतिंत धरात. (वता)

गणी : (सुस्कारुन) बाबा ! गणपती म्हाराजा, आतां तूंच म्हाका पाव. (गणीक न्हीद लागता. घोरेता. गणीक सपन पडटा. गणपती मखरांतल्यान सकल देंवता आनी गणीक अुठयता.)

गणपती : अे, अुठ.

: (कूस परतीत ) अूं.

__पती : हांव चल्लों.

: चल रे. हांव हांगा गणपतीक राखपाक न्हिदलां. चल तूं.

गणपती : हांव गेल्यार तूं राखतलो कोणाक ?

गणी : गणपतीक रे.

गणपती : हांव गणपतीच चल्लों.

गणी : (सडसडीत जागो जावन ) कितें-? गणपती म्हाराज, तुमी मखरांतल्यान देंवून सकयल आयले ? कसलें अजाप! आनी वतात खंय ? तुमचो देडदिसूय सोंपूना. आनी अंदू वर्सा तुमका पांच दीस दवरपाचें थारायिल्लें.

गणपती : पांच दीस ? हांगां पांच खीण रावपाक हांव तयार ना. गणपती म्हळयार कितें खेतबावलें दिसलें रे तुमकां ? मनात येता तश्यो खेतबागड्चो करपाच्यो?

गणी : म्हाराज कसली चूक जाल्यार क्षमा करात.

गणपती : चूक ? अेक आनी दोन ? चुकांबगर तुमी दुसरें कांयच करीना. चल्लो हांव.

गणी : नाकां म्हाराजा, म्हज्या घरांतले अशे अुठून वचूं नाकांत. लोक हांसतले म्हाका.

गणपती : हांव म्हणटा तें हेंच. तुकां लोकाचें पडलां, म्हजें देवाचें पडूंना. चल्लों हांव.

गणी : ना देवा तुकां हांव वचूंक दिवंचोना. तुज्या पांया पडटां.

गणपती : हें पळय, म्हज्या पुडव्याक घट धरुं नाकां. आदींच मुर्तिकारान तें सारखें न्हेसोवंक ना. आनी पांयाच्या बोटांक हात लांव नाकां. माती ओली आसा. म्हजी वाट सोड पळोवया. चल्लो हांव.

गणी : ना म्हाराज, ह्या गरीबाची कसली चूक घडल्या तें कळ्ळें बगर हो गरीब गणी तुजे चरणकमळ सोडीना.

गणपती : वा ! तूं आदीं नाटकांनी बी कामां करतालो काय कितें रे?

गणी : हय म्हाराज. अेकच प्यालांत – सींधू, संशय कल्लोळांत - रेवती, मृच्छकटीकांत – वसंतसेना (सांगत रावता)

गणपती : तूं नाटकां कर. हांव चल्लों.

गणी : म्हाराज, म्हजो गुन्यांव कसलो तो सांग. अुत्तरपूजा जाले-बगर हांव तुकां कसोच वचूंक दिवंचोना. मागीर पांच दीस रावना जाल्यार जाता.

गणपती : तुमकां पांच दीस गणपती कित्याक कर्माक जाय ?

गणी : म्हाराज, तुमच्या म्हणण्याचो अर्थ कळूं ना म्हाकां.

गणपती : अर्थ कळना ? आपणालो सुवार्थ मात बरो कळटा. देड दिसाचो गणपती तुमकां सोंसना.

गणी : सोंसना म्हणजे ?

गणपती : पंचमी दिसा केन्ना काय उत्तरपूजा जाता म्हण पळयता. फुडले वटेन गणपती भायर काडटा आनी फाटले वटेन

विष्णूचो अवतार मत्स्यावतार भितर हाडटा. खरें मरे ?

गणी : (वोग्गी)

गणपती : आतां वोगी कित्याक ? तेखातीर हांव चवथी दिसाच चल्लों. मागीर चवथी दिसाय खायात नुस्तें.

गणी : गणराया हांव खऱ्यांनीच चुकलों. अदू पंचमीदिसा नुस्त्याचें खवळ पसून घरांत हाडीना. तुजो सोपूत.

गणपती : (तापून) म्हजो सोपूत घेवं नाकां.

गणी : बरें म्हज्या बायल – भुरग्यांचो सोपूत.

गणपती : बरो अुगडास जालो.

गणी : कसलो म्हाराज ?

गणपती : तुकां बायल भुरगीं कितलीं ?

गणी : बायल अेकूच म्हाराज, भुरगीं मात पांच.

गणपती : (अजापान) पांच ?

गणी : हय म्हाराज, फक्त पांच. अंदू जालां तें पांचवें. म्हणून आमी तुजी कृपा देखून पांच दीस तुकां दवरुंक सोदी.

गणपती : म्हजी कृपा ?

गणी : विसल्लो देवा ? पयलीं चलो जावंचो म्हण तुका आंगवण केली चलो जालो. दुसऱ्या वर्सा चली जावंची म्हण आगवण केली. चली जाली. तिसऱ्या वर्सा दोगांय भुरग्यांक भलायकी दिवंची म्हण तुका गाराणें घालें, तुवें आनीक भुरगें दिलें. चवथ्याय वर्सा तशेंच केलें. पाचव्याय वर्सा तशेंच. आतां म्हळें तुजी क्रृपा. तुका जाय जाल्यार आमच्यानी ना म्हणूं येता?

गणपती : म्हणटकूच राव रे, गाराणे घालून तूं भुरग्यांक भलायकी मागतालो तर? तुमी अेकेवटेन घुमटां, पखवाज वाजयता मरे आनी दुसरेवटेन गाराणें घालता. म्हजे कान मागीर गब्ब जाता आनी अशो भानगडी जाता. अनर्थ जाता.

गणी : हय म्हाराजा, अनर्थ जालो खरो.

गणपती : आनी कसलीं अवचित्राळीं रे तीं तुगेलीं पोरां ? हांगां म्हज्या फुडयांत हाडून फोगोटचो पेटयता. कसलो आवाज जाता जाणा. कच्च करुन आंग काडूंक जाता. आदींच त्या मूर्तिकारान माती सारखी बसोवंक ना. आवाजासरशीं धस्स करुन कपचो निखळ्ळो जाल्यार ?

गणी : म्हाराज, पोरांक सारखी देख लायतां.

गणपती : आतां मातशें कुटूंबनियोजनाचेंबी येवजीय मरे. तें कितें

हाड.

गणी : यो रे मूर्तिकारा यो.

मूर्तिकार : नमस्कार म्हाराज

गणपती : पयली हातांनी चमत्कार करता आनी मागीर त्याच हातानी नमस्कार करता ?

मूर्तिकार : म्हाराज समजुंना हांव.

गणपती : म्हाका सारखो बारीक बरो पळय आनी मागीर अुलय.

मूर्तिकार : तांतूंत पळोवपाचें आनी कितें ? हावें म्हज्या हातान घडयला.

गणपती : घडयला काय थापला रे ? माती सारखी कालयल्या तुवें ?

मूर्तिकार : देवा हें जर तुवें म्हाका तेन्नाच सांगलां –

गणपती : तेन्ना कशें सांगतलो रे ? भटान मंत्रोच्चारान मूर्तित देवत्व घातलां आयज.

मूर्तिकार : तेंवूय बरोबर.

गणपती : आनी हो रंग कसलो माल्ला ? .

मूर्तिकार : बरो रंग तो.

गणपती : बरो काय सवाय रे ? सवाय खाण पोटफुगें म्हण जाणा मरे ?

मूर्तिकार : पुण देवा, त्या रंगान पोट फुगना.

गणपती : जाणा हांव, पुण हो रंग सगळया आंगाक खोपेला. कसले जाळ पडल्यात जाणा ? तूं मूर्तिकार म्हळयार कलाकार मरे ? असल्या कर्तुबांनी तूं खऱ्या कलाकारांच्या नावांक लाशें लावंचोना ? आनी ही कसलीं अवचिन्नपणां रे ?

मूर्तिकार : कसलीं म्हाराज ?

गणपती : हें म्हज्या हाताक कसलें फितीस बांदलां ?

मूर्तिकार : ती घडयाळ म्हाराज.

गणपती : हांव घडयाळ घालतालों म्हण तुकां कोणाच्या बापायन सांगलें ? हांगा भुरगीं येवन येवन म्हजीं फकाणा मारतात. "गणपतीबाप्पा. वयां कितयीं जायीं ? "

मूर्तिकार : ताचें कितें आसा म्हाराज, लोकांक अेकेच तरेच्यो मूर्ती पळोवन वाज येता म्हण आमी तांतल्या तातूंत असली कितेंय नवीदाद करतां. काळूच तसो न्हय ? काळापरमाणे माथ्याक कुरपणे.

गणपती : काळापरमाणे माथ्याक कुरपणे ? फाल्यां म्हाका तूं पेंट न्हेसयतलो, टी. शर्ट घालतलो, हळडूवे मोटरसायकलीर

बसयतलो आनी माथ्याक हॅलमेट घालतलो. हय मरे ?

मूर्तिकार : चूकलों म्हाराज.

गणपती : आनी हीं कसलीं फकाणां ?

मूर्तिकार : आनीक कितें जालें म्हाराज ?

गणपती : हो म्हजे कुशीक दवल्ला तो हुंदीर काय जल्लो रे ? केदोसो म्हण आसा तो ? ताचेर कशें म्हण बसपाचें ?

मूर्तिकार : ताचें कितें जालें म्हाराज, मूर्ती करतां करतां मातीच सोपली. मागीर थोडी फाटीची माती काडून हुंदीर घडयलो. देखून तो ल्हान जालो. आनी देवा, तुकां म्हण सांगता. हो मूर्तिकाराचो धंदो म्हाका आतां जड जाला.

गणपती : आरे कलेचो धंदो करतकूच अशेंच जाता.

मूर्तिकार : तूंच सांग. वर्साचे अुदारेचेर म्हण मूर्ती कशो दिवपाच्यो ? देवा म्हजी चूक हांव मान्य करतां पुण ह्यो मुर्ती पुजत-ल्यांकूय म्हजे पैशे वेळार फारीक करपाची बुद्द दी. हांव तुकां शरण आयला भगवंता.

गणपती : गणी, हो म्हणटा तें खरें रे ?

गणी : हय देवा, म्हाराज हांव ताचे पैशे चवथ जायनाफुडें फारीक करतां.

गणपती : चल रे तूं. गणी दुसऱ्याक हाड –

(मूर्तिकार वता. गणी भटमामाक हाडटा.)

गणी : यो भटमाम.

भटमाम : अरे, पुण अुत्तरपुजा अुद्यां पंचमीस आणी मज आतांच कशास बोलावला ?

गणपती : भटमाम, आतां हांव तुजी पूजा करतां.

भटमाम : अरे साक्षात विघ्नहर्ता गणराया बोलतो !

गणपती : सुस्ती निवळ्ळी तुजी ? धेंकर सोंपले ?

भटमाम : ब्राम्हणाचीं कसलीं फकाणा करता म्हाराज. मोदक खावन सुस्ती मारपाची तुम्हास, मज नव्हे. मी अजून जेवलाच नाय.

गणपती : तूं कोणाक फटयता रे ? सकाळीं पूजा सांगताना धेंकर कसले दितालो तर ?

भटमाम : तेचें काय हाय म्हाराज, सकाळपासून सांजमेरेन पंचीस – तीस पूजा कराव्या पडटा. अुपास पोटयां भायर सल्यार प्रत्येकाच्या दारांत घुंवळ येवन पडणांर म्हण सकाळीं आपले थोडे कालयिल्ले फोव पोटांत ढकलून आलों.

म्हणणेंच हाय नव्हे, आधी पोटोबा मग विठोबा. (हांसता)

गणपती : हांसता पळय कसो ? शेंडी कोंचून काडटलों.

गणी : (ल्हवूच) म्हाराज, ताका शेणी ना. मॉर्डन भट तो. आपणाक शेणी ना म्हण तो असलीं फटींगपणा करून आमकां शेणी लायता.

गणपती : आनी अेक सांग रे, तुवें मन्त्रोपचारान म्हज्यांत देवत्व घालें पुण त्या हुंदरांत देवत्व घालेंचना. व्हदळ हात लावन अुठय जाल्यार हो कसोच अुठना तेन्ना म्हज्या लक्षांत आयलें.

भटमाम : म्हाराज, हुंदरांत मी देवत्व कशें घालणार ? हुंदरांत घालप हूंदीरत्व. अशें नव्हें ? (हांसता)

गणी : भटमाम, देवाचीं फकाणां मारीनासतना अुलय.

भटमाम : खरें सांगू म्हाराजा, हुंदरांत प्राण घालपाचो मंत्रच मी विसल्लों अणी म्हाराजा, प्रोब्लेम काय होतो माहित हाय ? हुंदरांत प्राण घातल्या अुपरांत तो येथे तेथें नाचाव्या लागतो. अणी मग चवथी – पंचमी दीस नुस्तें नासून माजर अुपाशीं असतें, ते अचूक त्या हुंदराक पकडून खातें.

गणी : म्हाराज, भट तकलेन फीन आसा. ताचें म्हणणें सामकें बरोबर.

भटमाम : मग काय गणी, अुद्यां अुत्तरपूजा कराव्याची काय गणपतीक पांच दीस दवरतो ?

गणपती : भटमाम, तुजी पूजा सोंपुना अजून ?

भटमाम : सांग म्हाराजा, अैकतों मी.

गणपती : बरो चुरचुरीत अुलयता मरे तूं ? तुजी जीब – जिबेक कसली ओलसाण.

भटमाम : शी ! शी ! म्हाराज, असली अभद्र अपवित्र शंका तुमच्या डोक्यांत आलीच कशी ? देवाशपथ सांगतों. ‘तसल्या’अंमली पदार्थास मी कधीच शिवलो नाय. आतां काय, बदलत्या काळाप्रमाण मांस – मच्छर कधीं कधीं चालतें पुण ब्राम्हणाच्या घरांत नव्हे. भायर. तसा आमी काय सामकाच धर्म बुडविला नाय.

गणपती : बरें आसा. हें धर्मशास्त्र आतां ल्हवूल्हवू तुमच्या हातांतलें काडून, जात–पात पळयनासतना सगळ्यांक शिकपाची बुद्ध दिवपाक जाय. शास्त्रापरस भावार्त श्रेष्ठ म्हणपाचें आतां लोकांक, म्हाका पटोवंचे पडलें. गणी, फुडल्या वर्सापासून

तुजी पूजा तुवें करपाची.

गणी : बरेभाशेन, म्हाका तशी बुद्दूच दी तूं.

गणपती : भटमाम,चलात तुमी आतां.

भटमाम : बरें तर म्हाराजा, अुद्यां तुज्या अुत्तरपुजेस येतों. काय चुकलें माकलें असेल तर क्षमा कर.
(भटमाम वता. गणी पसरकाराक घेवन येता.)

गणपती : गणी, हो कोण ?

गणी : म्हाराज हो पसरकार, अंदू चवथीचो सगळो वेपार हाचेकडसून हाडिल्लो.

पसरकार : म्हाराज, अंदू मोदक कशे लागले ? खूब खाल्ल्या आसतले. पोट तर बरें मोटें दिसता.

गणपती : तुजे केसरी दाळीचे मोदक खातकूच अशेंच पोट सुजपाचें. (ल्हवूच गणीक) गणी, कितें जालां जाणा मरे ? त्या मूर्तिकारान पोट पोकळूच दवरूना. दोन मोदक खायनाफुडें पोट भल्लां कशें दिसता.

पसरकार : (चोरयां) म्हाराज, केसरी दाळ आसली म्हण तुकां कशें कळ्ळें ?

गणपती : कशें म्हणजे ? दोळे धांपिल्ले तर हांवें ? आनी जिबेक कितें माट माल्ला ? केसरी दाळ भलायकेक वायट म्हण जाणा मरे तूं ?

पसरकार : ताचें कितें आसा म्हाराज. दाळ हो जिनसूच असो. तातूंत आनीक कांयच भरसूंक मेळना. नाजाल्यार बाकीच्या वस्तुंनी सहज भेसळ करुं येता. मसुरींनी काळे फातर, च्याच्या पाल्यांत लाकडाचो काळो भुसो, खोबरेलांत गोडेल, गोडेलांत करंजेल, करंजेलांत अुदक अशें सहजतायेन भरसूं येता.

गणपती : गणी, तुगेले दिवलेंतलें तेल चराचरा करून कित्याक जळटालें तें आतां कळ्ळें. चार फावटीं तरी म्हज्या दोळयांत किटाळयो अुसळ्ळयो. हेवटेन तेवटेन मान हालयतलो म्हळयार भिरांत. माती ओली आसा. पसरकारा, हीं असलीं फटींगपणां करपाची बुद्द तुकां कोणे दिली ?

पसरकार : तुवेंच मगा सायबा. सदांच पसरो अुक्तो करीनाफुडें हांव तुज्या पांयजेलाक अुजवात लावन पूजा करतां.

गणपती : बरें आसा तर. आतां हांव सरकारी धान्य निरिक्षण खात्याचे अधिकारी पळय आसा, तांकां तुज्या पसऱ्यार

धाड घालून तुकां बंदखणीत वडोवपाची बुद्द दितां.

पसरकार : नाकां म्हाराज, तशें करुं नाका. म्हजी बायल – भुरगीं व्हाऱ्यार पडटलीं, असलीं फटींगपणा ना करपाची बुद्द म्हाकाच दी. हांव तुकां शरण आयलां, भगवंता.

गणपती : चल तूं (पसरकार वता.) गणी,

गणी : हो आरती मास्तर आयला म्हाराज,

आरती मास्तर : (आरत म्हणत येता.)

गणपती : अे, तुकां आतां आरती गावपाक आपोवं ना.

आ. मास्तर : कित्याक आपयला म्हाराजा ?

गणपती : तूं आरती मास्तर खंय ?

आ. मास्तर : मास्तर कर्माचो. म्हजें आयकता कोण ?

गणपती : आं कर रे

आ. मास्तर : (आं करता)

गणपती : पुरो. तुज्या ताळचांत वांसो आसा काय म्हण पळयतालों. थंड आवाजान आरती म्हणपाक जायना रे ? शिगम्या होळयेक तोंडावयल्यो बोबो मारता तशें करता मरे तुमी. म्हजे आसा ते कान आनीक लांब करता ?

आ. मास्तर : म्हाराज, नाक दामतकूच तोंड अुक्तें जाता तें अशें. आतां तुकां सरळ सांगतां. ह्या वाडचारच न्हय, गावांत सगळयांगेर गणपती पुजता पुण गणपतीच्यो आरती कोणाक दयडीऱ्याक म्हणपाक येना. मागीर प्रत्येकागेर म्हाका आरत म्हणची पडटा. पन्नासकडेन आरती म्हणटकूच मागीर हो म्हजो ताळो, ताळो अुरनासतना वागाची धोल जाली जाल्यार गुन्यांव कोणाचो ? म्हजो ? सांग, तुवें हय म्हळयार तुज्या पायांपोंदच्यान वतां, थुमेकाल ? तूं सांगता तें आयकतां.

गणपती : पुण हांव म्हणटां, आरत ल्हव म्हणपाक जायना ? आरड कित्याक मारुंक जाय ?

आ. मास्तर : ल्हवू म्हळयार घुमट – पखवाजाच्या आवाजांत आयकूंक कोणाक येता ? आनी अेकेवटेन ते राउडस्पीटर काय नागेस पीटर वाजतात. तांचेर सिनेमातलीं पदां म्हणटकूच आमकां अदीक नेटान बोबो मारच्यो पडटा.

गणपती : गणी, ह्या मास्तराच्या म्हणण्यांत बरेंच तथ्य आसा. तुमच्या भुरग्या – बाळांक आरती येनात म्हणटा ती खरी गजाल मरे ?

गणी : हय म्हाराज, तांकां फक्त सिनेमातलीं पदां येता.

गणपती : मागीर तुमी गणपती कित्याक कर्मांक पुजतात तर ? सिनेमातल्या नट – नटयांच्यो नागडचो – अुगडचो मूर्ति करून पुजात मागीर तांच्या मुखार काडात धुमशेणां.

आ. मास्तर : म्हाराज, आतां बऱ्याशा ताळयान अेक आरत म्हणूं ?

गणपती : नाकां, मागीर सांजे पळोवया. मातसो विसव घे. ते म्हणसर अुल्लेंले मातशें जाग्यार घालतां.

आ. मास्तर : ना म्हाराज. ल्हानशी अेक म्हणटांच.

( भसाडचा आवाजांत सुरू करता. गणपती कुरवेन गणीक फर्मायता. गणी मास्तराच्या तोंडांत अेक मोदक चोंदता. ते सरशीं आरत बंद जाता. आरतीमास्तर वता. गणी फुलूबायक घेवन येता. )

गणी : ( ल्हवूच ) म्हाराज, फुलूबाय आयल्या.

फुलूबाय : ( फुगडी म्हणत येता ) कसली म्हारगाय गे सायबिणी–

गणपती : फुलूबाय, तुजेर आयला तो कसलो गे सांवार सायबिणी.

फुलूबाय : कित्याक म्हाराज ?

गणपती : हचो तूं म्हणटा त्यो फुगडचो कसल्यो ?

फुलूबाय : कसल्यो म्हळचार ? त्यो नवीन फुगडचो. त्यो आदल्यो, पोरण्यो येता कोणाक ? आतांच्या भुरग्यांच्या पुस्तकारबी कविता आसता त्यो आमी फुगडचांच्यो चाली लावन म्हणटा –

(फुगडेचे चालीन म्हणून दाखयता.)

वंदे मातरम – मातरम – सुजलाम – सुफलाम.

गणपती : पुरो कर. तूं शिकल्या मगे ?

फुलूबाय : अिल्लेंशें वाचपापुरतें शिकल्यां.

गणपती : अर्दकुटें शिकप सदांच वायट. लोकसाहित्य म्हळचार कितें तें खबर आसा तुकां ?

फुलूबाय : ना म्हाराज.

गणपती : गणी, तुकां खबर आसा रे ?

गणी : हय म्हाराज. लोकसाहित्य म्हणजे लोकांनी लोकाखातीर रचिल्लें लोकांचें साहित्य.

गणपती : तूं म्हाका लोकशाहीची व्याख्या सांगपाक लागलो मरे.

गणी : चुकलो म्हाराज.

गणपती : फुलूबाय, हचानफुडें फुगडचो म्हणटाना चत्राय. पोरण्यो फुगडचो आसा त्योच बरेतरेन म्हणपाच्यो. धेडगुजरीपणा

करपाचें ना. नाजाल्यार म्हगेले हुंदीर तुज्याफाटल्यान सोडटलों.

फुलूबाय : नाकां म्हाराज तशें मात करुं नाका. हांव घोवाक पसून भीना पुण हुंदराक थर्त भितां.

गणपती : चल. (फुलूबाय वता.) गणी, आतां तुज्या घरांतल्या अुमेदवारांक हाजीर कर.

गणी : हय म्हाराज, (आंपणाल्या चल्याक हाडटा.) म्हाराज, हो व्हडलो दिवटो.

गणपती : तूंच तो पराक्रमी न्हय ? आयक रे, हे तें मखराक़डेन कितें पेटयलां ?

चलो : कितें म्हणजे ? वीजेचे बल्ब.

गणपती : कितें म्हण पेटयल्या रे ते ?

चलो : शेजाऱ्यांगेर आसा ताच्या दुपेटीन आमगेर घातल्या. दोनशीं व्होल्टसचे चार आनी ह्यो पीक पीक लायटी.

गणपती : अितले गरमेन तूं पांच मिनटां थंय ब्रसून दाखयशी ? हांव ओल्या आंगाचो म्हण अितलो वगत बसलों.

चलो : म्हाराज, तुकां नाकां जाल्यार तातूंतलो अेक बल्ब काडटां पुण बाकीचे काडूंक जावंचेना. शेजाऱ्यांगेर पेट्टा ताचेपरस अेकतरी आमगेर ज्यादा पेटूंकूच जाय.

गणपती : गरजेभायर वीज वापरूंक जायना म्हण जाणा मरे तूं ?

चलो : पुण आमी गरजेभायर खंय वापरतां ? आमच्या गणपतीक जाय म्हण वापरतां.

गणपती : पुण हांव प्रत्यक्ष गणपती सांगता न्हय ? अितले दिवे नाका म्हुण.

चलो : तुवें बरें सांगलें म्हुण हांव आयकूंक नाकां ?

गणपती : (तापून) तूं परती जाप कोणाक दिता रे ? तोंड रंगयतलों धरुन.

गणी : (ल्हवू) म्हाराज, सांभाळून, हात चड वयर अुबारुं नाकां— माती ओली आसा.

गणपती : सुबेज अुलयता ?

गणी : म्हाराज आतां तूंच ताकां मातशी देख लाय.

गणपती : (तापून) अितलीं वर्सां तुवें ताका पारपोळ सोडलो आनी आतां देड दिसान ताका देख लाय म्हण म्हाका सांगता ? गणी, लज दिसना तुकां ?

गणी : दिसता म्हाराज. पुण लजेक आनी पेजेक पडना न्हय.

गणपती (चल्याक) तूं अशींच सुबेजपणा करतलो ?
चलो : ना म्हाराज.
गणपती : तशें जाल्यार ते दिवे अुणे कर
चलो : करतां म्हाराज.
(वता)
गणी : म्हाराज, खिणांत तुवें पोराक नरम केलो अगाध तुजी करणी. (अितल्यान चली येता) म्हाराज ही म्हगेली व्हडली दिवटी.
गणपती : डिस्को काय फिस्को करुन भेंड मोडून नाचता तें हेंच मरे?
चली : आंवय आंवय, What a surprise! Lord ganesh is sitting on the तामरेत and Speaking in कोंकाणी.
गणपती : गणी हें तकलेंन सारखें आसा मरे ?
गणी : म्हाराज ताजी तकली सारखी आसा, फक्त इंग्लेज फराक आसा
गणपती : हें डिस्को म्हळयार कितें गो ?
चली : आंवय आंवय, what a joke ? डिस्को म्हळयार कितें तें खबर ना गणपती बाप्पा ?
गणपती : तूं बाप्पा कोणाक म्हणटा गो ? बाप्पा म्हणपाक पिकलां हांव ?
चली : Sorry Grandfather तर डिस्को म्हळचार सांगूंक जावंचेना. म्हणून दाखोवं ?
गणपती : म्हणून दाखय पुण भेंड बागयनासतना. म्हज्यान तें पळोवं नजो. हावें केन्ना अप्सरांचो नाचसुद्धां पळोवंक ना.
चली : आंवय आंवय. How it is possible? नाचलें बगर तें म्हणुंकूच जावंचेना.
गणपती : तशें जाल्यार चुट्टी लाय तुगेल्या त्या डिस्कोक.
गणी : म्हाराज. ताचें कितें आसा ... डिस्को म्हळयार अेक दोन कवितेच्यो वळी कश्यो आसता. त्योच त्योच परत परत त्या मुजगाच्या तालार बोबो मारून म्हणपाच्यो आनी नाचपाचें. तातूंत व्हडलेशें कांय ना. केन्ना केन्ना ही आमगेली सुद्दां नाचता.
गणपती : तूं नाचता मरे ?
गणी : ना म्हाराज.
गणपती : आयक गो.

चली : Yes; म्हाराज.

गणपती : हांव सांगता तशें वागतलें ?

चली : येस म्हाराज. I will try my level best.

गणपती : Shut up. म्हजेमुखार इंग्लेज मारुं नाकां.

गणी : (ल्हवू कानांत) म्हाराज, Shut up म्हणटा तें इंग्लेज अुतर.

गणपती : आतां म्हाकाय तुमची संवय जाली.

चली : Yes म्हाराज "I am ready" म्हळयार हांव तयार आसां.

गणपती : तुकां सगळीं डिस्को गीता तोंडपाठ येतात ?

चली : हय. म्हणूं ?

गणपती : नाकां. अेक अुतरपसून म्हणूं नाकां. आनीक कितें येता ?

चली : हिंदी सिनेमातलीं सगळीं पदां येतात.

गणपती : आनीक कितें खबर आसा तुकां ?

चली : सिनेमातल्या नट – नटयांच्यो सगळयो भानगडी खबर आसा.

गणपती : तुजी भानगड तुज्या आवय – बापायक खबर आसा ?

चली : (ल्हवू) म्हाराज, तुकां कशें समजलें ?

गणपती : म्हाका सगळें समजता. आतां सांग ? पंदरा ऑगस्ट कितले तारकेक येता ?

चली : (गोंदळून) खबर ना.

गणपती : पंडीत जवाहरलाल नेहरूंची गांधीजयंती कितले तारकेक येता ?

चली : म्हाका खबर ना.

गणपती : राष्ट्रगीत खंयचे भाशेंत आसा ?

चली : (रडकुऱ्यां, येवन) I don't know.

गणपती : I don't know ? आतां सांगता तें आयक – हावें विचारीलल्या प्रश्नांच्यो जापो सोदल्याबगर अेक्क फिल्मां-तलें गीत ओठार येवपाक फावना. परत म्हण भेंड वाकडें करून नाचशी जाल्यार तें भेंड तशेंच वांकडें दवरतलों. ही म्हजी सोंडीं आसा तशें.

चली : (रडत वता.)

बायल : (धांवत येत) गणराया, गजानना, गौरीनंदना.

गणपती : गणी, आवंडो परतीनासताना म्हज्या नांवाचो अखंड गजर करपी ह्या भारतवर्षांतली ही कोण बरें नारी ?

गणी : ( ल्हवू ) म्हाराज, आमगेली घरकान्न.

बायल : देवा स्वामी समर्था

गणी : ( ल्हवू ) हय सायबा !

बायल : म्हजे सदचे संवयेप्रमाण हावें सगळें चोरून आयकलें आनी चोरून पळयलें.

गणपती : जावं. तुज्या दुर्गुणाचो आयज तितको फायदो जालो. तुकां सगळें रामायण परत सांगपाचो म्हजोय त्रास वांचलो.

बायल : म्हाराजा, हावें घोवाक खूब सतायला. अंदूची चवथ नेटार जावंची म्हण हावेंच, ताका रीण काडपाक लायलें.

गणी : हय देवा, घर सारकें करता म्हण सांगलें आनी बँकेचें रीण काडलें.

बायल : म्हज्या पोक्या बडेजावांक लागून, घोवाच्या बोल्साक सदांच खार पडटा. म्हाका गुन्यांव भोगोस म्हाराजा. असली चूक, हांव ह्यानफुडें केन्नाच करचीना. जाय जाल्यार हांव तुकां, सेलाद फोलीचेर बरोवन दितां.

गणपती : गणिचे समजूतदार बायले, वाड्यार वचून मुक्तपणान धवळे कर आनी धवळयांनी सदांच बऱ्या चलणुकेचो उद्घोष जावंदी. तथास्तु !
(गणिची बायल वता )

गणी : विघ्नहर्त्या म्हाराजा, ही सगळी किमया तुवें कशी गा घडयली ?

गणपती : तें तुकां सांग म्हणटा ? तें तुकां समजल्यार मागीर तूं म्हाका कित्याक पुजतलो आसलो ?

गणी : खरेंच गणराया, निदान म्हज्या तरी संवसारांतली कितलीं-शींच विघ्नां तुवें पयस केलीं. खऱ्यानीच हांव तुजेर प्रसन्न आसा. तुकां जाय तें माग.

गणपती : गणी, साबुद्दीर यो. हावें देवान तुजेर प्रसन्न जावपाचें तो तूं मनीस म्हजेर, प्रत्यक्षांत देवाचेर प्रसन्न जाता ? तकलेन सारखो आसा मरे ?

गणी : चूक जाली देवा, गुन्यांव भोगोस. बरोच वेळ तुजे जागृत सासायेंत अुल्लों आनी खिणभर म्हाकाय देवपण आयलें. म्हणटकूच देवा, आतां वचून मखरांत बसता न्हय ?

गणपती : बरेभशेन. आतां बऱ्योच गजाली म्हज्या मनासारख्यो जाल्यो.

गणी : कितें आसा जाणा म्हाराज, तुमीय म्हण अशी मदीं मदीं

जागृताय दाखोवपाक जाय. नाजाल्यार मागीर अशें देंवचार राज्य करता.

राजकर्णी : ( भायरसून ) गणी, अे गणी.

गणी : हों आनी देंवचार कोण आयला काय ?

गणपती : तुवें आनीक कोणांक आपयिल्लो म्हजेमुखार ?

गणी : ना गा. तुवें सांगिल्ले तितलेय येवन गेले.

गणपती : मागीर हो कोण तर आगांतूक ?

गणी : आतां पळोवचो पडलो ना.

राजकर्णी : कितें म्हणटा गणी, कसो आसा ?

गणी : ( ल्हवूच ) म्हाराज, सांबाळून. हो आयला तो मनीस सादा – सुदो न्हय. राजकर्णी मनीस. आदवोगादाक जमना तसलें खऱ्याचें फट आनी फटीचें खरें करून दाखवपी तो. (अुक्तेपणान) नमस्कार. नमस्कार. खंय अशे ? आतां कसलीं अिलेसांवां काय ना, मदींच आमकां भेटपाचो त्रास कसो घेतलो ?

राजकर्णी : त्रास घेंवना. वास घेतलो.

गणी : वास ? हांगां खंय कितें करपलां तर ?

राजकर्णी : आमकां फक्त करपता ताचोच वास येता अशें न्हय, झिरपता ताचोय वास येता. म्हाराजा, खंय ?

गणी : तू गणपती म्हाराजाक मेळपाक आयला ?

राजकर्णी : मागीर कोणाक तुकां ? तुगेर गणपती तुकां प्रसन्न जाला म्हणपाची खबर लागनाफुडें हातातलें काम सोडून तसोच आयलों.

गणी : कसलें काम करतालो तर तूं ?

राजकर्णी : अंदूची चवथीची परब सगळयांक बरी वचूं म्हण पत्रक काडटालों. म्हाराज खंय ? आरे, हांव थंय मखरांत पळयत रावलों. स्वारी हांगां सकयल येवन बसल्या. Hello, I am very much eager to meet you.

गणपती : (गणीक) गणी, हें कूळ कितें म्हणटा ? आनी ताणे हात कित्याक मुखार केला ?

गणी : (ल्हवू) म्हाराज, आतां तुमचे सत्वपरीक्षेचो वेळ आयला. ताका हात दिवन अवलक्षण करून घेवं नाका, आनी तुमच्या हाताची माती आजून ओली आसा. तो तुमच्या हाताचें गरजेभायर भांडवल करूंक आसा.

गणपती : पुण तो अुलयता तें कितें रे ?

गणी : म्हाराज, हो मनीस जेन्ना पळय मतां मागपाचीं आसता तेन्ना लोकांक कळटा ते भाशेन अुलयता आनी मागीर अिलेसांवाचो तेंप सोंपलो म्हणटकूच असले कळनाशिल्ले फिरंगी भाशेन अुलयता.

राजकर्णी : मिस्टर गणी, I am very much surprised तुजो गणपती तुजेकडेन अुलयता आनी म्हजेकडेन अुलयना. हांव ह्या वेगळेचाराचो निषेध करपी.

गणी : ताचें कितें आसा राजकर्णी बाब, म्हाराजाक भारतीय भासो अदीक प्रीय. व्यासाकडल्यान अख्खें म्हाभारत संस्कृतान अुतरावन घेतलें ना ?

राजकर्णी : I know it ते खातीर हांव गणपतीरायाक Congratu late करतां. पुण तुजे म्हाराज हातूच मुखार करपाक तयार ना.

गणपती : तुमी मनीस, हांव देव, तुमचें सोंपण पळोवन तुमी वागात.

राजकर्णी : Certainly. आमकां आमचींय सोंपणां खबर आसा आनी दुसऱ्यालींय.

गणपती : नाजाल्यार देवाच्या कोपाचो परिणाम कितें जाता तें तुमकां खबर आसा.

राजकर्णी : Definetly पुण गणपती म्हाराज, अेक गजाल मात तुमी मानची पडटली.

गणपती : खंयची ?

राजकर्णी : देव म्हणून तुमची व्हडवीक सासाय I mean existance itself हांव जाणा, पुण तुमच्यो मर्यादा तुमकां खबर ना. तुमची आज्ञा आसल्यार हांव सांगू ?

गणपती : बरो गोड अुलयता मरे.

गणी : (ल्हवू) म्हाराज, तो गोड अुलोवपाक लागतकूच समजुपाचें खंयतरी धोको आसा. तुमकां चक्रयता. राजकर्णी मनशाची रीत गजकर्णा सारखी अेकदां दसलें म्हणटकूच ल्हवूल्हवू सगळें आंगभर जाता.

गणपती : (गणीक) तूं भियोवं नाका रे. तसो ताका बदना हांव. खूब पावसाळे पळयल्या हावें.

गणी : म्हाराजा, ताणे अिलेसांवां पळयल्यां.

गणपती : (राजकर्ण्याक) सांग म्हजी मर्यादा सांग.

राजकर्णी : तूं जागृत दैवत आसुनूय तुकां आमदार, मंत्री, मुखेलमंत्री केन्नाच जावपाक मेळचेना कारण भारतीय राज्यघटनेच्या

३२६ कलमाप्रमाण तुकां मतदानाचो हक्क ना. According to our Indian Constitution and its article 326, you have no right to vote nor get elected.

गणपती : (खुश जावन) वा ! वा ! मानलो तुका.

राजकर्णी : म्हजेर खुश ?

गणपती : सादो खुश न्हय. तुजेर प्रसन्न जालां.

गणी : म्हाराज –

राजकर्णी : तशें जाल्यार म्हाराजा, अेक ल्हानसो वर मागूं ?

गणी : म्हाराज सांभाळून....

गणपती : माग, माग जाय तो वर माग.

राजकर्णी : हांव मागता तें दितलो ?

गणपती : अवश्य. हांव तुकां तशें आश्वासन दितां.

राजकर्णी : Oh ! No No Please, आश्वासन नाकां. उत्तर दी. आश्वासना आमी दिवपाचीं आनी ताचें मोल आमकां खबर आसा म्हाका तुजे अुतर जाय.

गणपती : तशें जाल्यार – दिलें अुतर – माग, वर माग.

राजकर्णी : म्हाराज, ह्या राजकरणी मनशाची तुकां नमळायेची विनंती आसा – तुज्या चार हातांमदले दोन हात म्हाकां दी. म्हजे चार हात कर. कारण समस्त जनतेच्या बोडार दिसरात मायेन भोंवडावपाक हे दोन हात आमकां अुणे पडटात. (कांय वेळ सगले वोग्गी)
देवा, तुवें म्हाका आश्वासन न्हय अुतर दिलां. नेणार वचशी जाल्यार हांगांच तुजेमुखार बसून प्राणांतीक अुपोषण करपी. म्हण तथास्तु? म्हणटा काय ना? बसूं अुपोषणाक? काडूं प्रसिद्धीपत्रक ? घेवं प्रेस कॉन्फरॅन्स ? म्हण तथास्तु.

गणपती : (असाहाय जावन) तथास्तु.

गणी : (हामेल मारून) देवा ऽऽ हें तुवें कितें केलें ? म्हज्या घरांतलीं विघ्ना पयस केलीं आनी हें कसलें विघ्न आमच्या बोडार सोडलें.

राजकर्णी : (हांसता).

गणपती : गणी, तुजो गणपती हारलो. हो राजकर्णी मनीसूच आतां तुमचो गणाधीश. तोच तुमचें कितें बरें वायट करपाचें आसा तें करतलो. ताकाच शरण वचात. हांव चल्लों. आतां देडदीस रावून आनी पंधरा दीसूय रावून कांयच फायदो ना. गुडबाय !



म्हाराजा
भटमाम
रामनाथ
नुस्त्या भगत
विद्यार्थी फुडारी
प्रीया
पका
ताईबाय
लोक

---

# हांव म्हाराजा अुलयतां

---

(मखरांत गणपती पुजला. पंचमी दीस गणपतोची अुत्तरपूजा चालू आसा. भटमाम वाग फाटीक लागिल्लेभशेन पूजा सांगता. पुजारी रामनाथ पूजा करता. )

भटमाम : श्री तुलसी दामोदराय नमः । श्री अुमामहेश्वर सहित श्री सिद्धीविनायक देवताभ्यो नमः । यथाशक्ती यथामि – लितोपचार द्रव्यै पंचोपचार पूजनंच करिष्ये । (रामनाथाक) अुदक सोड. तयादौ निर्विघ्नता सिद्ध्यर्थं महागणपति पूजनंच करिष्ये (रामनाथाक) अुदक सोड महागणपते नमः ध्यायामि । (रामनाथाक) गणेसपूजेक पांयां पड. आवाहयामि । आसनं समर्पयामि । स्नानं समर्पयामि । गंधपुष्पं समर्पयामि । धूपं समर्पयामि । दिपं समर्पयामि । नैवेद्यं समर्पयामि । नमस्कारां समर्पयामि । मंत्रपुष्पं समर्पयामि । उद्वासायामि ।
(खूब गतीन म्हणटा) विलेपनार्थे चंदनं समर्पयामि । महामंगलार्तिक्य दीपं समर्पयामि । कर्पूरार्तिक्य दीपं समर्पयामि । प्रदक्षिणां नमस्कारां समर्पयामि । मंत्रपुष्पांजली समर्पयामि । यांतुदेवगणः सर्वे पूजामा – दायपार्थिवात इष्ट काम प्रसिद्ध्यर्थं पुनरागमनायच ।

(रामनाथाक) मम म्हण. अुत्तरपूजा जाली. मी चाललो. आरे म्हजी सत्री कोठे ?
(भटमाम गडबड्यां वता)

रामनाथ : आरे, अुत्तरपूजा जाली. आतां आरती करात. बेगीन करात. उशीर नाकां. गणपती बेगीन पावपाक जाय. (जमिल्ले लोक आरत म्हणटात. रामनाथ आरती बेगीन सोपोवपाक बोवाळ घालता. आरत थांबता. सगळे जण आड्तात. )

लोक : मंगलमूर्ती मोरया ऽऽ

रामनाथ : चलात – पायात – बेगीन पायात.

आवाज : रावात.

रामनाथ : रावात ? आनीक कित्याक रावता रे ? चलात.

आवाज : (मातसो मोट्यान) रावात.

रामनाथ : कोण रे तो ? कित्याक रावात म्हणटा ?

आवाज : रावात

रामनाथ : कोण अुलयता रे तो ?

आवाज : हांव – हांव म्हाराजा अुलयतां.

सगळे : (अजापान) म्हाराजा अुलयता ?
(गणपती मखरांतल्यान देवून सकल येता. )

म्हाराजा : अितली तार्कातिक कित्याक रे ? कोणांक नागोंवक वचपाचें आसा ?

रामनाथ : म्हाराजा, तुमी – तुमी अुलयता ?

म्हाराजा : हय. हांव अुलयतां. तुमकां कितें दिसता ? तुमी करता तें सोंसून हांव वगी रावूं ?

रामनाथ : पुण म्हाराजा, आमी वायट कितें केलां ? देड दीस तुजी भक्तिभावान पूजा केली आनी आतां अुत्तरपूजा केली म्हण्टकच––

म्हाराजा : (खोंचून) आतां अुत्तरपूजा जावन विसर्जन केलें म्हण्टकूच तुमकां रान मेकळे न्हय ?

रामनाथ : (दुबावान) रान मेकळे ? म्हणजे कितें म्हाराजा ?

म्हाराजा : साव जावन बरो विचारता पळय. तूं कितें समजलो ? तुज्या मनांतलें म्हाका खबर ना म्हणून ? अंतर्ज्ञानी तो हांव काय तूं रे ?

रामनाथ : तूं म्हाराजा.

म्हाराजा : मागीर म्हाका सांग, ट्रक सारखो जाग्यार आसा मरे ?

सांगिल्ले ते मनीस सारखे वेळार येतले न्हय ? खंयच्या मार्गान वचपाचें तें तांकां सारखे सांगलां न्हय ?

रामनाथ : (भंयान काचाबूल-जावन) म्हाराजा, हें तूं कितें उलयता म्हाका कांयच समजना.

म्हाराजा : पुण म्हाका सगळें समजता रानकात्र्या.

रामनाथ : रानकात्र्या ? म्हाराज तूं कोणांक म्हणटा ?

म्हाराजा : तुकां — तूं रानकात्रो.

रामनाथ : रानकात्रो ? (अडेचे हांसून) म्हाराज, म्हजे नांव रानकात्रो न्हय. रामनाथ – रामनाथ.

म्हाराजा : तुजे खावपाचे दांत वेगळे आनी दाखोवपाचे दांत वेगळे तेप्रमाण तुजे खरें नांव रानकात्रो आनी दाखोवपाचें नांव रामनाथ काय कोण मस्णो आसा तें.

रामनाथ : म्हाराजा, तुमी देव. तुमी अशे वितरागता कित्याक ? तुमचो तोल वता.

म्हाराजा : म्हजो तोल केन्ना वता तो सांगूं ?

रामनाथ : केन्ना म्हाराज ?

म्हाराजा : जेन्ना तुमी समतोल अिबाडटा तेन्ना म्हजो तोल वता.

रामनाथ : कसलो समतोल म्हाराजा ?

म्हाराजा : आरे, तुमी अशीं आडबऱ्यां रानां कापलीं जाल्यार फुडें जातलें कशें ?

रामनाथ : (भंयान) म्हाराजा, म्हाराजा, तुकां पायां पडटां. सगळयांहुजीर अशें कायचे काय उलोंव नाकां.

म्हाराजा : सगळयां हुजीर उलोंव नाकां ? सगळयां हुजीर तुमच्या असल्यांची लज काडपाक जाय. राती कातीची संद सादता आनी सरकारी रानां कापतां. आरे, दोंगर सगळे बोडके केले मरे तुमी. पापया, निदान आयच्या दिसा तरी असलीं पातकां आदारूं नाकां मरे. कितें काय म्हळयार अेकेवटेन म्हजी पूजा करता. बेगोबेगीन उत्तरपूजा करता. आनी म्हाका पावपाक सोदता. कित्याक सांगूं ? म्हाका केन्नाकाय पायलो म्हण्टकूच तुकां रातभर धुमशेणां काडपाक मेकळीक. आयज सगळे गणपतींक पावोपाचे तयारेंत तेन्ना तूं अचळय रानांत वचून झाडांचे गोमटेर कुराडी चलयतलो. हय मरे ? आतां तोंड धल्लें कित्याक ?

(लोकांत हय –न्हयसो बोवाळ, अेकामेकाच्या कानांत.)

आनी आयक रे रानकाऱ्या, हें हें नवें मखर केन्ना केलें ?

रामनाथ : अंदूच केलां म्हाराजा.

म्हाराजा : मखराचें लाकूड खंयच्यान हाडलें ?

रामनाथ : (वगी)

म्हाराजा : आतां वगी कित्याक ? तूं पातकां करता तीं करता पुण ह्या पातकांचे आयटींत म्हाकाय कित्याक घालता ? तुकां कितें दिसले ? तुगेले नागोवणपट्टेंत म्हाका वांटेकार केलो म्हण्टकूच तूं पातकांतलो वांटावलो ? आरे रानकाऱ्या, ह्या रानांखातीर – ह्या झाडां पेडां खातीर धर्तरेर पावस पडटा म्हण जाणा मरे तूं ?

रामनाथ : म्हाराजा, आतां तुमी मुद्दयार आयले. रानांखातीर पावस पडटा. बरोबर आसा पुण कितलो पावस पडटा? सुमाराभायलो. पोरूं इतलो पावस पडलो. लोकांची घरां दारां व्हळून गेलो. अंदूय तीच गत. म्हण्टकूच रानां खातीर जर हो अितलो पावस पडटा जायत जाल्यार हीं रानांच बारीक करप बरोबर न्हय ?

म्हाराजा : अशें ? म्हणून तूं रानां बेणटा ? आनी फाल्यां सगळीं रानां काबार जातकूच, पावसूच पडपाचो बंद जालो जाल्यार कोणाच्या नांवान शंख मारतले ?

रामनाथ : मागीर संकश्टाच्या वेळार तूं आसाच न्हय म्हाराजा.

म्हाराजा : संकश्टाच्या वेळार हांव आनी आतां असुदाय लाटपाक तुमी ? बरें आसा. चल तूंफुडें .

रामनाथ : म्हाराजा, येवजिल्ल्या कामांक तुजो आशिर्वाद आसचो.

म्हाराजा : आसा तोंडभरून तुकां आशिर्वाद आसा. सरकारी अध्यादेशा प्रमाण आज रानां कापून लाकडां घेवन वचपी तुजो ट्रक फॉरेस्ट डिपाटमेंट जप्त करतलें.

रामनाथ : म्हाराज.

(लोकांत बोवाळ – 'बरेंच जालें – तशेंच फाव.')

म्हाराजा : हो तो नुस्त्याभगत, हांगा यो रे.

लोक : कोण ? कोण नुस्त्याभगत रे ?

म्हाराजा : हो तो रे ? शिवडा सारख्यो मिशयो आसा तो.

नु. भगत : हांव – हांव म्हाराजा ?

म्हाराजा : ह्य तूंच. तुजें चीत्त खंय आसा रे ?

नु. भगत : चीत्त ? हें हांगाच आसा न्हय. हांगाच आसा. (सोदता)

म्हाराजा : आरे सोदता कितें ? हांवे विचाल्लां तुकां चीत्त खंय

आसा काय म्हण ? चीत्त म्हणजे मन.

नु. भगत : आं, आं. आसा म्हाराज, जागचे जाग्यार आसा.

म्हाराजा : अितलो सामको धाँल गांठीचो कसो रे तूं ?

नु. भगत : कसली गांठ म्हाराजा ?

म्हाराजा : दोन दीस शिवराकाचेर काडूं नजो रे तुज्यान ? आतां केन्ना काय म्हाका पावयन अशें जालां तुकां. न्हय ? म्हाका उदकांत पावोवपाचो आनी उदकांतलें नुस्तें हाडून बरें मचमचीत जेवण करून जेवपाचें. हय मरे ?

नु. भगत : (जिबल्यो चाटीत) हय म्हाराजा पुण म्हाराजा, तुकां कशें कळ्ळें ?

म्हाराजा : तुकां कशें कळ्ळें ? ती लाळ पूस पयली. अंतर्ज्ञानी हांव. म्हाका सगळें कळटा. अेक सांग रे.

नु. भगत : विचार म्हाराजा——

म्हाराजा : तुमचो सगळयांत आवडटो जिनस खयचो ?

नु. भगत : आवडटो म्हणजे – तशे खूब जिनस आवडटात. मुगां गांठी, आमट, खतखते, मणगणें.

म्हाराजा : तें सगळें भायर मार.

नु. भगत : म्हस्काभाजी, घोसाळयांभाजी, भेंडचाभाजी ——

म्हाराजा : गोरवांक घाल. तुमचो सगळयांत आवडटो जिनस खंयचो तो हांव सांगू ?

नु. भगत : सांग म्हाराजा.

म्हाराजा : नुस्तें. ताजें, मोव जाल्लें, पोंवशेल्लें, हिंवटाणेचे.

नु. भगत : म्हाराजा, तुकां नुस्त्याविशीं बरीच बारीक-सारीक म्हायती आसा.

म्हाराजा : कित्याक आसचीना ? तुमच्या नुस्त्याभगतांचो देव न्हय रे हांव. हांव म्हणटा, तुमकां सगळयांत प्रीय जिनस नुस्तें. हय मरे ?

नु. भगत : हय म्हाराजा.

म्हाराजा : तुमकां सगळयांत प्रीय देवता खंयची ?

नु. भगत : हें कितें विचारप जालें म्हाराजा ? तूंच न्हय आमची प्रीय देवता ?

म्हाराजा : तशें जाल्यार हांव म्हणटां – तुमकां जो जिनस प्रीय तो जिनस तुमी तुमच्या देवाक कित्याक अर्पण करीना ?

नु. भगत : (अजापान) कितें ? म्हणजे म्हाराजा, तुमचें म्हणणें अशें –

म्हाराजा : (फुडे चालू करीत) तुमी जे नुस्त्याचे तरातरांचे जिनस करतात- हुमण, सुके केल्लें, कळपूटी, तळिल्लें, हुड्डमेथी, हे सगळे जिनस म्हाका नैवेद्य म्हण दाखोवचे.

नु. भगत : शी, शी. म्हाराजा तुमचेर कसलो सांवार आयला ? चूक जाली म्हाराजा.

म्हाराजा : सांवार तुमचेर आयला. तोंडात म्हजें नांव आनी मनांत ध्यान नुस्त्याचें. नुस्त्याभगत खंयचे कडलो !

भटमाम : (भायरसून येत) अरे, मी गडबडींत म्हजी दक्षणां विसरून गेलो.

म्हाराजा : यो भटमाम.

भटमाम : म्हाराजा, तुमी ?

म्हाराजा : आतां कडकडटा कित्याक रे ? यो, असो मुखार यो. वागाक माल्लो ?

भटमाम : खंयचो वाग म्हाराजा ?

म्हाराजा : हें खांदार आर्म मारून खंय धांवतालो तर तूं फाटीक वाग लागिल्ले भशेन ?

भटमाम : आर्म ? ही म्हजी सत्री नव्हे ? मदें मदें पावस पडटा नव्हे ?

म्हाराजा : राव रे, व्हदळ तूं कोणांक गाळी मारतालो ?

भटमाम : गाळी ? आनी म्हज्या तोंडांत ? कधीच शक्य ना. तोडांत अणी कितेंय नको तें घेन पुण गाळी नव्हे.

म्हाराजा : व्हदळ उत्तरपूजेच्या वेळार कितें म्हणटालो ?

भटमाम : त्यो गाळी ? ती उत्तरपूजा नव्हे ? भटपण.

म्हाराजा : भटपण जाल्यार तें आयकतल्याक कळपाक नाकां ? कितलें म्हणून फांस रे ? तुमी अशें कित्याक करीना ?

भटमाम : कितें म्हाराजा ?

म्हाराजा : आतां बाजारांत पळय तरातरांच्यो गुळयो येना ?

भटमाम : गुळयो ?

म्हाराजा : तुमी अेकामेकाच्या हड्ड्यार घालता तसल्यो आर्माच्यो गुळयो न्हय रे. पिल्लां.

भटमाम : आं, आं, आतां आलें लक्षांत.

म्हाराजा : कपल फोडटा – पील्ल. कमर धल्लां पील्ल. न्हीद येना – पील्ल. न्हीद येता – पील्ल. सगळे बेगीनात बेगीन जावपाक जाय. न्हावपाक वेळ लागता म्हण न्हावपाचें पील्ल.

भटमाम : (अजापान) न्हावपाचें पील्ल?

म्हाराजा : हय. तुज्या मंत्रस्नानापरस सोपें. पील्ल घेतलें की जालो सवळो. तर तेच पध्दतीन तुमी आतां अेक भटपणाचें पील्ल तयार करात. हाडपाचें पील्ल, मोखपाचें म्हज्या माथ्यार, घेवपाची दक्षणा – धांवपाचो.

भटमाम : मघाशीं दक्षणाच विसरून गेलो.

म्हाराजा : तूं विसरुंना. तुजी गडबड पळोवन हांवेंच विसर घालो तुका दक्षणाचो.

भटमाम : म्हाराजा, तूं असलींय नाडेपेन्ना करव्या लागला ?

म्हाराजा : मागीर कितें नाडेपेन्ना करपाची मक्तेदारी तुमची मनशांची ? चल, घेतली मरे दक्षणा ? झूर आतां – (भटमाम वता. विद्यार्थी फुडारी घोशणां दीत येता)

वि. फुडारी : गणपती बाप्पा – मोरया.

दवरचेना रे दवरचेंना –
पांच दीस गणपती दवरचेना
गणपतीबाप्पा – झिंदाबाद ।

म्हाराजा : विद्यार्थी फुडारी – वा ! तापिल्ल्या तेलापरस रक्त चड सळसळटा. (उलो मारून) फुडारी म्हाराज, अशे येयात.

वि. फुडारी : गणपती बाप्पा, तुमी उलयता ? तुमचें काम वगी रावपाचें ?

म्हाराजा : आनी तुजें काम कसलें बोब मारपाचे ? तूं विद्यार्थी मरे ? तूं कामगार लीडरांभशेन घोशणां दीता मरे.

वि. फुडारी : म्हाराजा, समाजांत हो अन्याय चल्ला तो आमच्यांनी पळोंव नजो.

म्हाराजा : पळोंव नजो म्हण तूं फातर मारता ?

वि. फुडारी : फातर ? खंय केन्ना कोणे फातर माल्ल्या ? आमचो आनी फातरांचो संबंदूच ना.

म्हाराजा : संबद ना ?

वि. फुडारी : आसा म्हाराजा, जे फातराभशेन वगी आसात तांकां आमी जागे करतात.

म्हाराजा : म्हळयार कितें कितें करतात ?

वि. फुडारी : रस्ते बंद करतात. गांव बंद करता. सभा घेता. मोर्चा काडटां. सामके भरगच्च कार्यक्रम आंखतात.

म्हाराजा : भरगच्च ? म्हण्टकूच तुमकां मात्तूय वेळ मेळना

आसतलो.

वि. फुडारी : नाच मात्तूय वेळ मेळना. तुजी उत्तरपूजा चालू आसतना आमची अेक मिटींग जाली. आतां तुजें विसर्जन जायन,फुडें रोखडीच दुसरी मिटींग आसा.

म्हाराजा : अेक सांग.

वि. फुडारी : विचार म्हाराजा.

म्हाराजा : म्हणटकूच अितल्या बोवाळांत तूं अभ्यास केन्ना करता तर रे ?

वि. फुडारी : ताचे कितें आसा जाणा म्हाराजा –

म्हाराजा : कितें आसा ?

वि. फुडारी : शिक्षणाचो तसो उपेगूच कितें ?

म्हाराजा : शिक्षणाचो उपेग तूं म्हाका सांगता ? श्रीकृष्णाले आख्खें म्हाभारत कोणे उतरावन घेतलें ? हांवे काय तुज्या आज्यान ? कितें आडायलां रे तुमी पोरांनी ? (लोकां-मदले प्रीया चली खुसूखुसू करून हांसता.)

म्हाराजा : खंयची चिचूंद्री हांसली ? कोण गो तें ? पिटीपिटी ? अशें मुखार यो.

प्रीया : हांव पिटीपीटी ? (रडकु-यां) हांव प्रीया म्हाराजा.

म्हाराजा : प्रिया ? कोणालें प्रीया ? लजता पळय कशें ? तूं चलता तें चलता काय मोडटा गो ? चलताना कितले म्हण कुडके पडटा गो तुजे ?

प्रीया : आंवय! कसलीं फकाणां म्हाराजा ?

म्हाराजा : किट्किट्टा पळय कशें.

प्रीया : कोण हांव किट्किट्टा म्हाराजा ? हांव आपलें अशें वगीच आसा – वाट पळयत.

म्हाराजा : वाट पळयत ? कोणाची ?

प्रीया : गणपती विसर्जनाची.

म्हाराजा : तुज्या मनांतले सांगूं ?

प्रीया : म्हज्या मनांतूच कांय ना जाल्यार तूं सांगतलो कितें म्हाराजा ?

म्हाराजा : हांव जाणां, सगळें जाणां. आतां विसर्जनाच्या वेळार तूं त्या पका बरोबर किट्किट्टलें – तो फोगोटी पेटोवन तुज्या म्हऱ्यांत वडयतलो. ठा – म ......

प्रीया : आं –– (किळांच मारता)

म्हाराजा : आनी अशी किळांच मारून तूं ताज्या आंगार पडटलें.

हय मगो ?

प्रीया : म्हाराजा, कोण खंयचो पका आनी बिका. हांव कोणांक वळखना.

म्हाराजा : आवय आवय. कितलें साबळें तर पोर ! पका बिकाक कोणांक वळखना. बरें आसा. आतां पळोवया कशें वळखना तें.

पका : (भायरसून येता) प्रीया –– ओ प्रीया –– तुमचो गणपती जडावला काय कितें गो ? भायरच सरना.

म्हाराजा : (आपले भितर) यो, भितर यो आदी.

पका : गणपती बाप्पा मोरया. आरे, म्हणात मरे मोरया. (सगळे वग्गी) आं ? हें कितें ? गणपती म्हाराजा, सकल देंवून उबे आसात. प्रिया. ही कसली 'भानगड' ?

प्रीया : (काकुळटेक येवन) पका!

म्हाराजा : (शांतपणान) बाय प्रिया, हें कसले 'प्रकरण' ?

प्रीया : चूक जाली म्हाराजा. हो पका मूं – (फुडे आडखळटा)

म्हाराजा : हांव तुकांय वळखता. आनी ह्या पोक्याकूय वळखतां. पका, खंय आसलो ?

पका : म्हाराजा, वाडचार सगळ्यांले गणपती पळोवन आयलों. फक्त वाडचावयलेच न्हय सगळ्या गांवातले पळोवन आयलों म्हाराजा.

म्हाराजा : थंय निमण्या तोंकाक गांवकारालो गणपती पळोवपाक गेल्लो ?

पका : हय म्हाराजा.

म्हाराजा : गांवकाराल्या चलयेन शांतीन –

पका : (सुदारत) शांती न्हंय कांतो म्हाराज.

म्हाराजा : तर त्या कांतीन आजूय तांबडो व्हिस्तीद घातिल्लो ?

पका : ना म्हाराज. आज ताणे पंजाबी घातिल्लें. पाचव्या कोराचें. तसलोच दुपट्टा – (पद म्हणटा) इन्ही लोगोनें इन्ही लोगोनें लें लीया दुपट्टा मेरा.

म्हाराजा : अशें ताणे म्हळ्ळे ?

पका : ना म्हाराजा, ताका चाळोवपाक हांवे म्हळ्ळें.

म्हाराजा : आनी आजूय तुवें दत्ताल्या भावाचीं फकाणां माल्ली.

पका : तुज्यान तर ना म्हाराज. हांवे फकाणां माल्लीं तीं दत्ताले भयणीचीं. आज फकाणां मारी सारखीच ती न्हेशिल्ली.

म्हाराजा : बरें आसा. अेक सांग रे ?
पका : विचार म्हाराजा.
म्हाराजा : गणपती कित्याखातीर पुजतात ?
पका : कित्याक म्हणजे ? अशीच मौज मजा करपाक मेळटा न्हय.
म्हाराजा : गणपतीक हात कितले आसता ?
पका : दोन म्हाराज – ना ना चार म्हाराज.
म्हाराजा : गणपतीचें आसन कितें ?
पका : आसन म्हणजे –
म्हाराजा : म्हणजे जशें विष्णूचो रथ, शंकराचो नंदी, सरस्वतीचो मोर –
पका : आं तशें ? तशें गणपतीचे स्वार जावपाचे साधन मखर. (दुबावान) ना – मखर चलतलें कशें ? पाडो – ना – रेडो – ना – गाय – ना –
म्हाराजा : सांग – गोठ्यात आसा तितल्यांचीय नांवां सांग. नाजाल्यार हांव सांगू ?
पका : सांग म्हाराजा.
म्हाराजा : गणपतीचें स्वार जावपाचें साधन मोटर सायकल.
पका : आं. मोटरसायकल. म्हाका खबर आशिल्लें पुण –
प्रीया : (ल्हवूच) पका – मोटरसायकल न्हय हुंदीर.
पका : (खरें करून) आं – आं – मोटरसायकल न्हय म्हाराजा. मोटरसायकल मॉडर्न न्हय. तुमकां मळबांत मोटर-सायकल चलोवपाक रस्ते खंय आसात ? तुमचें म्हळयार गणपतीचें स्वार जावपाचे साधन म्हळयार हुंदीर. बरो आपलो इल्लोसो हुंदीर.
म्हाराजा : हुंदीर ? हुंदीर तूं आनी हें पिटीपिटी प्रीया – चिचूंद्री. गांवभर भोवूंन गणपती पळयता खंय ! गणपतीचें तुकां कुस्कूटाचें खबर ना आनी पिटीपीटी, असल्या ढड्ड्या आनी तर्पाशोर चल्याचेर तूं मरता ? तुकां मरपाचेंच आसल्यार बऱ्याशा सद्‌गुणी पोराचेर मर.
प्रीया : म्हाराजा, हो पका असलो म्हण म्हाका खबर नाशिल्लें. हांव तसलें चली न्हय आं. म्हजें शिक्षण कीं हांव.
म्हाराजा : शाळेंत शिकता तूं ?
प्रीया : शी ! शाळेंत न्हय, कॉलेजीत म्हाराज.
म्हाराजा : तुमच्या त्या प्रिन्सीपालाचें नांव कितें गो ?

प्रीया : त्या खड्‌डयाचें न्हय ? (याद करून) विसल्लें म्हाराज. ताचें नांवूच कठीण कशें.

म्हाराजा : आसूं हालीं चवँथीच्या निमतान थंय लागलां तो सिनेम बरो आसा गो ?

प्रीया : शी. सामको बोगस. हांव तर असलो सिनेम पळोवपीच न्हय. पकान तिकेट काडली म्हण पळयलो. ना अॅक्टींग, ना थ्रिलींग, ना फायटींग.

म्हाराजा : असलो कसलो सिनेमा तर तो ?

प्रीया : कसलो देवाचोसो. तो आमच्यांनी पळोंव येता ? तो पळोवपाचो णववारी न्हेसपी जड्‌डयांनी. तूं आनी पळोंव नाका म्हाराजा. सामको बोअर जातलो.

म्हाराजा : फाटी त्या व्हडल्या बाजारांत लागिल्ल्या सिनेमाचे नांव कितें आसलें ?

प्रीया : सांगूं. सारखो उगडास आसा.

म्हाराजा : आसूं तुवें तो सिनेमा सांजच्या आदेसाक पळयलो न्हय ?

प्रीया : ना म्हाराजा, सकाळच्या आदेसाक. मॅटीनी शॉक. हांव चडशे सिनेमा सकाळँचेच पळयतां

म्हाराजा : बरो. सकाळचो वेळ बरो. आनी तुजे कॉलेज केन्ना आसता तर ?

प्रीया : सकाळचें म्हाराज. (चूक कळून) ना – ना. कॉलेज केन्ना केन्ना सांजचे आसता म्हाराज.

म्हाराजा : समजलें, समजलें. म्हाकां कितें समजुपाचें तें समजलें. तुमच्या आवय बापायक हें समजुपाची चड गरज आसा. शी, शी. पारपोळ जाल्यांत पोरां. हाताभायर गेल्यांत. आवय बापायचें लक्ष ना भुरग्यांचेर. भुरगीं रानांतली झाडां कशी आपशींच वाडपाचीं म्हण जाणा सगळीं. (खोंचून) रानांतली झाडां तरी खंय वाडूंक दितात हे लोक ? खरें मरे रानकाऱ्या ? पळयात, तुमी बापूय आपणांक जाय तीं पातकां करतात आनी तीं अशीं भुरग्यांच्या सभावाचेर बिर्मत जावन फुट्टात. भुरग्यांचे बापूय रानां कापतात आनी आवयो कितें करतात ? न्हिदो काडटात ?
(उगडास जावन) आं. ह्या घरांतली येजमान्न खंय ? आरे, तुमगेली ताईबाय खंय ?

प्रीया : ती घरांत न्हिदल्या.

म्हाराजा : न्हिदल्या ? हांव म्हणटा थंय आसा. न्हिदल्या खंय ! उठयात तिका.

ताईबाय : (बोवाळ आयकून घरांतल्यान उठून भायर येता) कितें जालां ? कसलो बोवाळ ? हाडलां जाल्यार दवरात थंय. रोखडे उजरायतां.

प्रीया : आई, ल्हवू उलय, गणपती म्हाराजा हांगां आमकां उजरायता.

ताईबाय : आगे बाये, म्हाराजा ? आत्ता दोळो लागिल्लो. मातसो घोट तरी घेवन येतां.

म्हाराजा : ताईबाय, म्हाका तसलो चाये घोट बी कांय नाका.

ताईबाय : न्हय म्हाराजा, पारत्या तोंडान तुकां कशें पांयां पडूं म्हण तोंडांत उदकाचो घोट घेवन येतां म्हण.

म्हाराजा : कांय गरज ना. तुजें तोंड पारतें आसल्यार जाता, अंतस्करण नीतळ आसतकूच जालें. पिटीपीटी, घे, आवयची मातशी देख घे. ताईबाय, विचारता म्हूण रागार जांव नाकां. अशा आनंदाच्या वेळार तुकां लकण कशी आयली ?

ताईबाय : कितें सांगू म्हाराजा ? चवथ पंचम म्हणजे सगळें आपणें आपूण करचे पडटा. कोण आदाराक नासता. दादल्यांचे सोड ते तर रात्रीकडेन येच ना. ताणी फकत हें रांद, तें तळ इतलींच फर्मानां काडपाचीं. हीं चली भुरगीं तरी हाताकडेन रावता ? शिकल्यां न्हय ती आतां. सगळो रामरगाडो म्हाकाच उसपूवचो पडटा. चवथी पंचमीचें अेक सोड. आतां गणपती पायनाफुडें हे नुस्तें घेवन येतले. व्हडळ ल्हायोबी काडून दवल्यो आनी मातशें आड म्हणून पडिल्लें थंयच दोळो लागलो.

म्हाराजा : आरेरे ! हे भारतवर्षातले अस्तुरी, तूं स्वतंत्र जाल्या म्हण हांवे आयकल्लें. फट तें.

ताईबाय : ना. म्हाराजा तशीं हांव स्वतंत्रूच आसां.

म्हाराजा : तुज्या स्त्री स्वातंत्र्याचो अर्थ म्हळयार तुवें रांदन माथ्यार घेवप आनी ताचेर बाकीच्यांनी असूदाय चरप. आनी हचा प्रीयाच्या स्त्री स्वातंत्र्याचो अर्थ म्हळयार स्वैराचार.

ताईबाय : म्हाराजा, अितलें मनांक लावन कित्याक घेता ? सांगात, हांव तुमची कसली सेवा करूं?

म्हाराजा : नाकां ताईबाय, तुजे सेवेन हांव तृप्त जालां. तुकांच जाय तें माग.

ताईबाय : म्हाराजा तुमच्या तोंडांत साखर पडूं.

म्हाराजा : नाकां नाकां. तुज्या हातचे मोदक खावन हांव तृप्त जालां. साखरेची कसलीच गरज ना. कितें सांगपाक सोदता ?

ताईबाय : म्हाराजा, करतलोच जाल्यार म्हजे एक काम कर.

म्हाराजा : कसलें ?

ताईबाय : तुगेलो तो हुंदीर म्हज्या संवसाराक सामको लागला. तो खंय खंय बीळां मारता, कपडे मारता, भात खाता, हांगां पोखरता – थंय उस्तिता. ताका मातसो आळा-बंदाक हाड. तागेर जाता ती संतत सोसपाची न्हय. ताका कुटूंब नियोजनबी कांय लागना

म्हाराजा : तुजी तक्रार सामकी खरी आसा ताईबाय. पुण कितें करतलो ? काळूच असो आयला: आता पळय, शिकिल्ले मनीस लेगीत कुटूंब नियोजन करपाक अनमनतात. मागीर त्या हुंदराचो तरी कितें दोश ? आनी दुसरें पळय, तूं म्हणटा तुज्या घराक हुंदीर लागला. पुण हांव हांगां देडदीस रावून पळयतां. हांगा प्रत्येक गजालीक हुंदीर लागला

लोक : प्रत्येक गजालीक हुंदीर लागला ?

म्हाराजा : हय, प्रत्येक गजालीक हुंदीर लागला. हो रामनाथ – हो रानकात्रो, हुंदीर जावन सरकारी रानां काबार करता. तो फाटीक वाग लागिल्ले भशेन धांवपी भटमाम ताका अधर्माचो हुंदीर लागला. हो नुस्त्याभगत – हाचे गांठीक हुंदीर लागला. हो विद्यार्थी लीडर - हाच्या शिक्षणांक हुंदीर लागला. हें पिटीपिटीं प्रीया – हाचे फाटल्यान स्वैराचाराचो हुंदीर लागला. हो पका – हाका तवना – सणाच्या हुंदरान पोखरून पोखरून पोको केला. आनी ताईबाय, तूं म्हणटा – तुकां म्हगेलो हुंदीर सतायता ? (नाटकींपणान) ताईबाय, ताईबाय कितें दैवदुर्विलास हो.

ताईबाय : म्हाराजा, तू प्रत्यक्ष देवूच असो निरशेवपाक लागलो जाल्यार आमी कितें करपाचें ? आमचे गुन्यांव पदरांत घाल आनी आमकां भोगशीय. आमी तुकां शरण आयल्यांत भगवंता.

लोक : तुकां शरण आयल्यांत भगवंता.

म्हाराजा : तुमचे अित्सेप्रमाण जातलें. ताईबाय, हांव तुकां आश्वासन न्हय उतरदितां – ह्यानफुडें म्हगेलो हुंदीर तुज्या संवसाराक लागचोना. आनी तेचबराबर तुकां हांव हेंवूय सांगता – जर तुकां हुंदीर सतावपाक लागले जाल्यार तांचो नायनाट करपाक तुकां हांव पूर्ण मेकळीक दितां. कोणाकूच मातूंक दिवंक फावना. अेकदां मातलो की माथ्यार बसलोच म्हण समजूपाचे.

अेकलो : म्हाराजा, आतां विसर्जनांक माथ्यार बसता न्हय ?

म्हाराजा : ना. वर्सा सारखो हांव माथ्यार बसून विसर्जनाक येवपी न्हय.

लोक : मागीर ?

म्हाराजा : आयच्या काळांत कोणेच कोणाच्या माथ्यार बसूंक फावना. कोणेच कोणांक जड जावंक पावना. (ल्हवूच) जाणां पिटीपिटी – जशें कोणांच्या माथ्यार बसूंक फावना तशें कोणाच्या गळयांतूय पडूंक फावना.
(सगळे हांसतात)
चलात – विसर्जनाची मिरवणूक सुरू. ताईबाय, हाड तुज्यो ल्हायो.

लोक : मंगलमूर्ती – मो ऽ ऽ रया

म्हाराजा : आरे, रावा, रावा, तो हुंदीर खंय ? ताकाय म्हज्या बरोबर घेवन वतां नाजाल्यार तो ताईबायक सतावपाक हांगाच अुरत. ए पिटीपीटी, त्या हुंदराक मातसो धर पळोवया. नाजाल्यार कोणूय माड्डून पोराचो जीव काडीत.

प्रीया : ना म्हाराजा, म्हाका हुंदराचो थर्त भंय दिसता.

म्हाराजा : खंयच्या हुंदराचो भंय दिसता गे चिचूंद्रे ? पका,

पका : यस म्हाराजा.

म्हाराजा : ह्या हुंदराक तुज्या बोल्सांत वडय. मागीर पळोवया – हें पिटीपीटी तुज्या म्हऱ्यांत कशें येता तें.

नु. भगत : म्हाराजा, सुरू करूया न्हय मंगलमूर्ती —

म्हाराजा : राव, रावा, मातशे रावात. सांगता तें लक्षांत दवरात. आतां वरां कितलीं जाली ? आज आयतार. बारां पयलीं हांव उदकाक पांय लांवचोना.

लोक : कित्याक म्हाराजा ?

म्हाराजा : हांवे तुमकां सगळें सांगलां पुण हांव कसलीच रीस्क घेवंक सोदीना. कारण तुमचे मदले जायते जाण फाल्यां सोमार म्हणटकूच शिवराक आसतले. ते खातीर कांय जाणांक बेगीन विर्सजन करून बारां पयलीं नुस्तें हाडून खावपाक जाय. पुण हांव तुमचो हो हेतू सफळ जावपाक दिवचो ना कारण तुमचे जिबेपरस म्हाका संवसारांतल्या असंख्य ताईबायच्या बलायकेची काळजी आसा. परत सांगतां, बारां आदीं उदकाक पांय लांवचो ना. म्हणात–

लोक : मंगलमूर्ती मो ऽ ऽ रया !

(गज़र) गौरीच्या नंदना मोरया

गजानना गजवदना –

(वाजत गाजत विसर्जनाची मिरवणूक सुरु जाता. गरंजेल – फोगोटचो पेट्टात.)



## पुंडलीक नारायण नायक

कविता, कथा, कांदबरी, नाटक, बालसाहित्य आदि साहित्य प्रकारांत आजवेर बावीस पुस्तकां उजवाडाक आयल्यांत.

इंग्लीश, हिंदी, मराठी, तेलगु, बंगाली आदि भासांनी कांय कथा आनी नाट्य रचनांचे अणकार जाल्यात. भारतांतल्या भौतेक सगळया आकाशवाणी केंद्रांवयल्यान त्या त्या भासांतल्यान नभोनाटयांचें प्रसारण जालां.

गोंयांत राजभाशेखातीर चलिल्ल्या आंदोलनांत म्हत्वाचो सहभाग.

### लाबिल्ले पुरस्कार आनी भौमान

कोंकणी भाशा मंडळ (गोंय) साहित्य पुरस्कार (१९७५ ते १९८३)

गोंय कला अकादमी साहित्य पुरस्कार (१९७५ आनी १९७८)

'चौरंग' एकांकी संग्रहाक साहित्य अकादमी पुरस्कार (१९८४)

भारतीय जेसीचे वतीन कर्तूत्वी तरनाटो म्हण गौरव (मद्रास–१९८५)

नाटकांचे अखिल भारतीय सर्तित १९८० वर्सा 'मर्णकटो' नाटकाक आनी १९८६ वर्सा 'श्री विचित्राची जात्रा' नाटकाक आकाशवाणी पुरस्कार

अपुरबाय प्रकाशन